कोंकणी शिस्ताचो सुवात शंभर वर्सां आदिंच जावंक लागल्लो कर्नाटकांत। आनी तो बुन्याद घाल्लो सांत लुविस कॉलेजंत जेज्वितां थाव्न। केदळा कोड्यालाचें मिसांव जेज्वितांच्या हातंत सल्लें। 1878 वर्सां कोंकणी भाशेक कर्नाटकांत नवळ्य जागरणेचो काळ उदेल्लो। नवल प्रथम कोड्यालाक आयल्ल्या नोव जण जेज्वितां पय्की इटलितल्या तिरोल प्रांत्यांत 1844व्या वर्सां जल्माल्लो आंजेलो फ्रान्सिस मायेर मार्फोयन: टिप्पुच्या वधडेंत शेळ्ल्या आनी हेर भासांच्या इकुधान चिड्डाल्ल्या कोंकणी भाशेक नवो जीव दिल्लो।

कोड्यालाक येतच्च सोभित सोबाळ भास कोंकणी शिकोन, "कोंकणी गनांल्लो सोवित्त सुदर नाळो", म्हळ्ळ्या नावार व्याकरण रचुन, वाक्सरं आनी हेर ल्हान व्हड धार्मीक आनी हेर बूक बरव्न, कोंकणी शिक्षाक बुन्याद घाल्लो।

कोड्यालांत 1880व्या वर्सां स्थापन जाल्लो सांत लुविस कोलेज आतां एकशें सत्तावीस (127) वर्सां थाव्न कोंकणी शिक्षाक उत्तेजन दितच्च आय्ल्या। सांत लुविस कोलेजिच्या प्रारंभावेळ विद्यार्थीं पय्की अध्यात्मिक लेखक, नाटककार वि.कें. प्रभु 1912व्या वर्सांच्च "चंद्रहास" "प्रह्लाद चरित्र" नाटक आनी भक्तिक काव्यां बरव्न प्रख्यात जाल्ले। ताच्याच्च समकालिक "सावित्री" आनी हेर नाटक बरयल्लो: कुंबळे एन.नायाक, 1914 वर्सां "वज्र कुटुक", आनी हेर नाटक बरयल्लो डांगरकेरी उमनाथ राव, 1916व्या वर्सां कोंकणींत प्रथम पत्र "दिवें" आरंभ केल्लो श्री लुविस मस्करेञ्‍स आनी हेर सांत लुविस कोलेजित शिक्तां शिक्तां कोंकणी थंय भुलल्ले जाव्नासात।

**कोंकणी क्रिस्तांव समाजेंत:** केदाळा ल्याटिन मिसां आंकेर जाव्न गांव्च्या माय भाशेन लितुर्जी आरंभ जाली। नवळ्च्च कोंकणी शिकाप आरंभ जालें म्हण सांगोंक धय्र घेव्येत। इस्कोलांनी कोंकणी भास शिकोंक ना जाल्यारी, खंच्या लोकाचें धार्मिक साहित्य: मांय भाशेन आसा। तीं भास सदाच्च हासान फुलोन जिवी जिवी उर्लां म्हळळें उतार खरें जालां।

1962 वर्सांचो श्रेष्ट सनिस म्हळ्ळ्या ख्यातेक चड्ल्लो: पापा जुवांव तेविसावेच्या काळार "गावची भास निर्मजेन", ह्या विशी नक चलोंक बुन्याद पड्ल्ली। चडावनांनी सांगल्लें "मिसाच्या मुख्य भागांत इगज सांतची भास "ल्याटिन" सांबाळन, हेर संगितांनी गावच्या भासांचो चड प्रयोग करुंक सांडिजाय। हे नियम आम्च्या कर्नाटकांत नवळ थाव्नच्च चलोन आय्लां। आम्च्या भुर्ग्यांनी वर्सावार परीक्षा दोतानिच्यो इस्कोलांत आनी इगर्जेंत कानडी लिपिन कोंकणित दीव्न तीं उत्तीर्ण जाल्यान आस्ता, कोंकणी भाशेच्या हेर खंच्याय प्रभेदांन, बोलिक, समाजांक लावोंक नातल्लें भाग कोंकणी क्रिस्तांव लोकाक वाळपणा थाव्न लावात्त आय्लां। त्या वर्वीं: कोंकणी भाशेन बरोंक, साहित्य रचुंक, जीवनाच्या लावायेक किल्ल्यो भासो तीं शिकल्यारी, खंच्या गांवाक वचोंक ना पावल्यारी आम्च्या मद कोंकणी उलोव्न, उरोन्न घेल्ल्या नाणी।

अशें धार्मिक वडलावण केथोलिक इगजसातेन ज्यारियेक हाडल्ल्यान संग्रुर दियेसेजिचो अधिकृत भास जाव्न, कोंकणी भास इस्कोलांनी शिकाप जोडच्या मागानाच्च, कोन्श्या थाव्न सन्शाक आनी सन्शा थाव दवा म्हणासर पावली। अशें आम्चो जेजुर्यो कोंकणी भास शिकलो। अशें एक उतार आसा।

एका काळार् ब्रिटीशांची माव्ळी पड्ल्ल्या मंग्ळुर् शहरांत्, ग्रेम्त् लोका मधें कोंकणी आप्ल्या गाय् भाशेचेर् कांटाळो आनी तात्मार् आम्ल्लो। ही भाम्ः शिकाप् नात्ल्ल्या माल्याड्यांची, नाड्डागांची, हळळेच्या लोकाची म्हळया चिंत्पान् कोंकणिक् मान् स्थान्, घन् म्हळयाच्च लोकान् कोंकणी भाम् आण्णाय्लेल्या जेजुच्या भाशे थंय् ओंट् उघड्चे पड्ल। कान् उग्ते कर्चे पड्ले। मान् दिंव्वो पड्लो।

मंग्ळुर् विश्वविद्यानिलया खाल् आम्ल्ल्या कोलेजिंनी वि.ए. वि.कोम्., वि.एम्म्.मि., क्लासिंनी कोंकणी एक् विशय् म्हण् शिकोंक् 1991व्या वर्सा आव्काम् करुन् दिल्लो। कोलेजिंच्या व्हडिलांनी मुकार् येव्न पटवी मट्टार् कोंकणी शिकोंक् मांडावळ् केल्यार्, विश्वविद्यानिलय् अनुमती दिता म्हण्यी पत्रिकांनी प्रगट् केल्लें। कोंकणी भाम् विश्वविद्यानिलयांत् शिकोंक् योग्य् जाल्ली म्हण्ताना, तिचें स्थान्मान् चड्लें म्हण् कोंकणी मोगिक् वर्तो संतोम् जाल्लो। बोंवय्, गोंयां, विश्वविद्यानिलयांनी कोंकणिक् आदिच्च स्थान् दिल्लें।

गोंयांत् धा लाख् लोक् कोंकणी उलय्ता आनी थंय्सर् वागवो वर्ग् पामून् कोंकणी माध्यमाद्वारिं शाळांनी भुर्ग्यांक् शिक्षण् लाब्ता। मुंवय्न् वि.ए. मनद् जोड्पाक् कोंकणी एक विशय् म्हण् मुंवय् विश्वविद्यालयान् मांदुन् घेल्लां। कोच्चिंत् शाळांनी कोंकणी भाम् शिकय्नात्। पूण् वीस लाख् लोक् कोंकणी उलोंव्चो आम्ल्ल्या कर्नाटकांत् आज् पामुन् शाळांनी कोंकणीक् स्थान् लावोंक् ना। कोंकणीक् अल्पसंख्यात् मान्यताय् मर्कारन् दिल्लेली ना। भारती घटनेच्या 20व्या सूत्रा पर्माणे भाशा अल्प। संख्यातांक् मेळचे तसलीं सर्व् हक्कां आनी मव्लतायो कोंकणिक् मेळोंक्च्च जाय् म्हळयो मनव्यो 1986व्या वर्साच्च कर्नाटक मर्कारक पाव्ल्ल्यो। तवळ्यी कोंकणी भाम् शाळांनी शिकोव्पाक् प्रयत्नां चल्लालीं।

पुण्! आम्च्या कर्नाटकांत् परिशिधेंच्या उत्राल्ल्या मत्तर् वर्सांनीः कोंकणी इस्कोलांनी शिकोंव्क् उत्रांनी विरदाल्लीं भाशणांः पोमोभर् नाण्यांचो आवाज् जाव्न उर्ली। इत्ल्यो बोली, पंगड् आम्ल्ल्या कोंक्ण्याचो एक्वोट् - एकाच्च हाताचीं पांच् बोटां लागीं आस्लिंच्च नांत्।

ह्या परिशिधेंच्या, मर्कारच्या, खंच्याय् कस्कस्यांक् वरलेक् घेनास्ताना, जात्, बोली, लिपिंचे पागोर् हालय्नास्तानांच्च, कोणाची वत्ताय् नास्ताना, कोंकणिच्या नीज् मोगान् खंच्याय् राजकीयाक् मिशि रिगोंव्क् आव्काम् दिनास्ताना। "आम्कां भाम् महत्वाची" म्हळें तत्व् मतिंत् घेव्न 1980व्या वर्सा सांत् लुविस् कोलेजिच्या शतमानोत्सव् (1880 - 1980) आचरण् कर्च्या संदर्वार् कोंकणी संस्थो उरताव्न, 1981 वर्सा कोंकणी भाशेच्या प्रगतेक् मय्ला फातोर् जाव्न, कोंकणी षण्मासिक्, संशोदनात्मक् "अमर कोंकणी" पत्र प्रगटुंक् आरंव् केल्लें। तवळ्चो रेक्टर् फा। रेनी प्रभु जे.स. आनी निर्देशक् प्रो। आल्वन् केस्तेलिनो प्रथम् जाव्नामात्। अमर् कोंकणी संपादक् खडाप् = वि.जे.पी. सल्डान्हा जाव्नास्लो।

त्याच्च वर्सा कोंकणी पुस्तकालय् आनी वाच्पाघर् उरताव्, कोंकणी वरव्यां, शिकाप् जोड्प्यां आनी संशोधना कर्च्या खातिर् दिताना, शतमाना आदीं पय्शिल्या देशा थाव्न भारताक् येव्न, आप्ल्या धार्मिक् आनी शिक्पा प्रचारच्या गटावळि सांगाता कोंकणी भाशेचें अध्ययन् - इस्कोल् कोलेजिंत् कोंकणी शिकानास्तानांच्च व्याकरण्, शब्द्कोश्, आनी हेर् गर्जेचीं पुस्तकां

वर्गांतल्या जेजियेन् सभेच्या मानार्थीक् आंजेलो मार्फियच्या मानाक् अर्पण् केल्लें।

उप्रान् तवळचो प्राशुपाल् डॉ। फा। जोसेफ् नेलपती जे.स. एक् कोंकणी मनीस् म्हय जाल्यारी आम्च्या कोंकणी भाशेचेर् नाका आसल्लो अभिमान् 1992 जनेर् 4वेर् भांग्राळया अक्षरांनी दाखल् करुंक् फावो जाल्लो दीस् करुंक् पाव्लो। कोंकणी शिक्पा चळवळेक् बुन्याद् घाल्लो दीस् हो। मंगळूर् विश्वविद्यालयाचो उपकुलपती प्रो। एम्.ऐ.सवदत्ती आनी तवळ कर्नाटक् सरकाराचो कानून् मंत्री श्री व्लॅसियम् सोजा सांगाता कोंकणी अध्ययन् विभाग् उग्ताव्लो। सांत् लुविस् कॉलेजिन् कोंकणी शिक्पाच्या अधिकृत् अनुष्टानाक् फा। जोसेफ् नेलपतिन् आव्काश् कर्न दिलो।

ह्या आव्कासाचो फळ 1992 जनेर् 22 तारिकेर् कर्नाटकांतूच पयिल्ले पाव्टीं फा। आर्वालिन् सोज् जे.स.च्या अध्यक्षपणार्, डिरेक्तोर् फा। नेलपति जे.स. तीस् जणां विद्यार्थी सांगाता कोंकणी डिप्लोमा कोर्स् आरंभ् केलो। चार् हप्त्यांनी चल्चो, एका वर्साचो कोंकणी कोर्स्, सांजेच्या वेळार् सांत् लुविस् कॉलेजित् चल्तालो। अशें कोंकणी शिक्पाक् बुन्याद् घाल्ली कीर्त् सगळ्या कर्नाटकांत् सांत् लुविस् कॉलेजिक् फावो जाता।

सांत् लुविस् कॉलेजिच्या कोंकणी संस्थ्यान् 1993 फेब्रेर् 19, 20, 21 कॉलेजिच्या सभासालांत् मांडून् हाडल्ल्या कोंकणी कार्यागारांत् प्रमुख् विशय जाव्न कोंकणीचें प्रमाणीकरण, लिपी, आनी शाळांनी कोंकणी भास शिकोंव्चे विशीं विचार विनिमय, चर्च्या तिनी दिसांनी हाजर आसल्ल्या प्रमुख संपन्मूळ व्यक्ती गोंय्च्या तोमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचो ख्यात विद्वांस आनी भाशातज्ञ मा।डॉ। प्रताप नायक, गोंया आनी मंगळुर्चे प्रवीण भाशाशास्त्रीं सांगाता चलल्ली। ह्या कार्यागारांत कर्नाटक सरकाराचो कार्मिक मंत्री श्री व्लॅसियम डि'सोजा सांगाता, मंगळूच्या हरएका शिक्षण संस्थ्यांच्या व्हडिलांनी, तज्ञांनी, कोंकणी अध्ययन विभागाच्या शिक्षक आनी विद्यार्थ्यांनी, पत्रिका संपादकांनी, तशेंच कोंकणी अभिमानिनी वांटो घेतल्लो।

पांच् वर्सांनी चलोन् ह्या कोर्सा मुकांत्र सवार् कोंकणी शिक्ष्यांक् तयार् कर्न् 1997 मार्च् 7वेर् थाव्न हो कोर्स् स्नातकोत्तर् पदवी तप्पाल् शिक्षण् (Post Graduate Diploma Correspondence Course in Konkani) जाव्न बदल्लो। कोंकणी भाशे वय्र अपार् अभिमान् आसल्लो तवळचो प्रांशुपाल् फा। प्रशांत् माडता जे.स. आनी कार्याकारी डिरेक्तोर् प्रो। वनट पिंटोन सांगाता घाल्ल्या योजनाचो फळ जाव्न कानडी आनी नागरी दोनी लिपियांनी हें शिक्षण प्रथम वर्सा 143 विद्यार्थी सवें आरंभ् जाल्ल्या ह्या कोंकणी शिक्षणा द्वारीं एदोळ् वरेंच देश विदेशांतल्या पांच्श्यां प्राय् चड् विद्यार्थ्यांनी कोंकणींत् उंचें शिकाप् जोड्लां।

ह्या शिक्पा वर्वीं सवार् विद्यार्थ्यांनी कोंकणिंतल्या विविध विशयां वय्र संशोध चलव्न उंचल्या मट्टाचे प्रबंध सादर केल्यात। थोड्यांनी तांचे संशोधनात्मक् ग्रंथ् प्रगट् केल्यात्। अशें आय्च्या काळार् तें वाव्र तय्र करून् कर्नाटकांतल्या शाळेंनी कोंकणी शिक्पाक् सरकारान् आदेश दिताना शाळांनी कोंकणी शिकोंव्च्याक् शिक्षका एदोळच तयार् जाल्ले आसात्।

कॉलेजिंनी दुसरी भास जाव्न कोंकणी शिकोंव्चेंन म्हण विश्वविद्यालया थाव्न 1995 जून् 24वेर् परवानगी मेळतच प्राशुपाल फा। प्रशांत् माडताच्या मुखेल्पणार् पाठ्पट्टी तयार् करून्,

ग्ळुर् विश्वविद्यालयाक् दितच्च, 1996 जून् 15वेर् थाव्न मग्ळया कर्नाटकांत् पयिल्ले पाव्टीं गांत् लुविस् कोलेजिंत् दुस्री भास् जाव्न डिग्री शिक्पाक् कोंकणिचें पादार्पण् जाल्लें। कोंकणी ाठ्य् बुकांच्या ममितिचो अध्यक्ष् जाव्न्, तवळचो प्रांशुपाल फा। प्रशांत् माड्ताक् मंग्ळुर् वेश्वविद्यानिलयान् नम्यार्लो। मांत् लुविम् कोलेजिन् डिग्री कोंकणी शिक्पाक् गर्जेचे चार् ाठ्यवूक् आप्ल्याच्च् खर्चान् छापुन्, कोंकणी विद्यार्थिंक धर्मार्त वांट्ले। भास् वद्लावण् करुंक वेद्यार्तीनी भरिजाय् जाल्लो शुल्क् कोलेजिनंच्च् भर्लो। कोंकणी अध्यापकांक मांवाळ् आनी हर् खर्च् वर्साक् लग्वग् रु. 70,000 खर्चुन् कोंकणी कोर्म् आजून् उरय्ला। कर्नाटकांत् सांत् लुविस् कोलेजिंत् मात्र् आम्च्या ह्या कोर्सा थाव्न वग्मावार 25 थाव्न 30 विद्यार्थी डिग्री लेवलाचेर् कोंकणी शिकोन् येतात् तें प्रशंमेक् फावो। तवळच् 1995-96 तेवीम् विद्यार्तिंनी कोंकणी दुस्रि भास् जाव्न घेत्ल्ली।

मंग्ळुर् विश्वविद्यालया थाव्न डिग्री कोलेजिंनी दुस्री भाम् कोंकणी शिकोव्येत् म्हळळी पर्वण्णी लाव्लच्, सांत् लुविम् कोलेजिंत् मुमार् पांथ्श्यांलागिं विद्यार्ती कोंकणी शिकोन् भाग्र् आय्ल्यात्। चड्ताव् विद्यार्थींनि डिग्री मंपय्तानांच्च कोंकणी P.G. डिप्लोमा दोन् वर्सांचो कोर्म् कर्न् मंपय्ला। अशें कोंकणिंत् डिप्लोमा जोड्ल्लीं जाय्तीं टीचेगं आमात्। तीं कानडी लिफियेंत् कोंकणी शिकोंव्क् सक्तात्।

कर्नाटक् कोंकणी साहित्य् एकेडेमिन् भुर्ग्यांक् कोंकणी शिकोंव्चे खातिर् "कोंकणी कळो" नांवाचो पुम्तक् श्री वस्ती वामन् शेणै अध्यक्ष् आस्ताना प्रगट् केल्लो। हो पुस्तक् कानडी लिफिनंच् आम्ल्लो। तरि हो पुम्तक् शाळांनी कोंकणी शिकोंक् पावोंक् ना।

फा। आलेग्मांडर् सोज् कर्नाटक् कोंकणी माहित्य् एकेडेमिचो अध्यक्ष आम्ताना, शाळेंनी कोंकणी शिकय्ल्यार् कित्लीं भुर्गीं कोंकणी शिकोंक् मुकार् येतित्? म्हळया विशीं ममिक्ष्या चल्ल्ली। जाप् मेळ्ल्ले प्रकार् इम्कोलांनी कोंकणी शिकाप् माध्य् जाय्ता म्हण् कोणेंयी चिंत्लें ना। पुण्! जाप् दिल्ल्यांनी व्हड् संख्यान् लिपी कानडी म्हण अभिप्राय् दिल्ला आमा।

केनरा हैस्कूलाच्या आडळत्या मंडळेन् 1995व्या वर्सा थाव्न् तांच्या उर्वा शाळेंत् कोंकणी शिक्षण् दिंव्व्याक् मुर्वात् केल्ली।

मैसूर्च्या भारतीय् भाशा मंम्थ्याच्या महकारान्: महगश्ट्राची मांम्कृतिक् गज्दानी म्हण् फामाद् जाल्ल्या पुणे शहगच्या डेक्कन् कोलेजिंत् पशिचम् क्षेत्रीय् भाशा केंद्राचे तर्फेन् ह्या वर्साच्या 2007 जुलाय् महिन्यांत् कोंकणी शिक्पाची वेवम्ता जाल्या। ह्या केंद्रांत्: मराठी, गुज्राती, मिंधी आनी आतां कोंकणी शिक्पाची प्रक्रिया सुरु जाल्या।

फा। आलेक्सांडर् सोजा उप्रांत् - कर्नाटक् कोंकणी माहित्य् एकेडेमिचें अध्यक्षा मुंकाण् 2005 मार्च् महिन्यांत् मानेस्त् एरिक् ओजेरियोन् घेतच्च शाळेंनी कोंकणी शिकाप् आप्लो प्रमुक् मुद्दो म्हण घेत्लें/पाचार्लें। तवळ् सांगल्लें काम् पोंताक् पांव्ची एरिक् ओजेराची शाथी कळित् आसल्ल्यांक् खरेंच्च् कोंकणी शिकाप् साध्य् जाय्त् म्हण् धग्र् भग्ल्लें।

भाग्तांत् चड् कर्न तीन् प्रमुक् लिपिंनी, वरंव्व्या आनी सोळा प्रास् चड् बोलियांनी उलोंव्च्या कोंकणी भाशेक्: कर्नाटकांत् /कन्नड राज्यांत् शिक्पाक खंची लिपी वापर्ची म्हळया

गावाल्याक, कोंकणी शिक्षाचो वात्र आरंब् कच्या पयलेंच्च एकेडेमिच्या फुडारपणार फुडारल्ला गावांनी गिराव्याक. खंच्या शॆलिनर खंच्या लिपिन् कोंकणी शिकोव्येत् म्हळळया अभिप्रायक् कार्यान्चा मत आनी परगांच्या, संघ-संस्थ्याच्या मुकेल्यांक, मात्भायांक् आपोव्, प्रजाप्रभुत्व रितीर मत आसात्र. वर्तमान् कर्नाटकांत् कोंकणी कानडी लिपियेंत् शिकोंव्चो निर्धार् जालो।

ह्यांत् कर्नाटक सर्कारच्या पाठ्यपुस्तक तयार कच्यां संस्थ्याच्या मार्गदर्शनाखाल्; सव्या क्लासी थाव्न धावीक (तिस्री भास) जाव्न, कोंकणी शिकोंच्ये खातिर्, सर्कारच्या नेमां खाल् 140 पानांचे पाठ्‌ क्रम् तयार जालें। 2006-2007 वर्सा थाव्नच्च कोंकणी शाळांनी शिकोंव्च्याक परवणगी लाभ्च्यार आम्नानांच्च प्रस्तुत काँग्रेस् सर्कार पड्लो। नव्या सर्कार मुकार वॊल्लो आनी लिपियेचो वाद मुखार येनाना, नव्या सर्कार थाव्न परवणगी लाब्लिना।

पुण मानेस्त् एक्कि आंजेरियान् पाटि पळेलें ना। मंगळुर्चो धर्माध्यक्ष् अ। मा। दो। लॉरेन्स् सांज्, कॅथोलिक विद्यावोड्डाचो कार्यदर्शी फा। विल्सन् सोज्, आनी थोड्या धार्मिक् मंडळिच्या सहकारान् 2006-2007 थाव्नच् शाळेच्या पाठ्‌ क्रमा भाय्र कोंकणी शाळांनी शिकोव्क् सुर्वात घाल्ली। ह्या 2007 थाव्न उडुपी, दक्षिण् कन्नड, उत्तर कन्नड जिल्ल्यांच्या खंच्याय् विद्यार्थ्यांनिन कन्नड वा इंग्लिश् मीडियमांत् शिक्ताना, तिस्री भास् जाव्न कोंकणी एक विचारांण् जाव्न धर्‍न शिकोंक् सर्कारची परवणगी लाभ्ल्या। शाळांनी कोंकणी शिकोंव्ची वेवस्ता आसोंकजाय् इल्लेंच्च।

कर्नाटकाच्या शाळांनी प्रथम् भास् जाव्न शिकोंवंत् जाल्ल्यो भासो: कन्नड, तमिळ्, तेलुगु, हिंदी, मराठी, उर्दु, इंग्लिश्।

द्वितीय् भास् जाव्न इंग्लिश्, कन्नड।

तृतीय् भास् जाव्न: कन्नड, तमिळ, तेलुगु, संस्कृत्, हिंदी, मराठी उर्दु, मलेयाळी, इंग्लिश्, अरेबिक्, आनी कोंकणी।

प्रस्तुत सांत् लुयिस् कॉलेज् मंगळुर् हांगासर् मात्र डिग्री क्लासिंनी कोंकणी शिकाप् आसा। मंगळुर् युनिवर्सिटी वितर येंच्या हेर् कॉलेजांनीयी कोंकणी शिकाप् जोड्चे अव्कास् लाभंक् आनी आम्च्या वड्डांनी वड्ड भुरग्यांनी डिग्री क्लासांनिय् कोंकणी शिकोंक् मुकार् येशें प्रोत्साहाची गरज आसा। तशेंच्च कोंकणी भाशेक विश्वविद्यालयांनी स्थान् मेळशें कर्चें हाका आम्च्या संघटित् वावराची गरज् आसा।

कोंकणी आम्ची मांय भास् ती उरोंची, वाडोंची जवाब्दारी आम्ची आनी आम्च्या मुकल्या पिळगेची जाव्नासा। जै कोंकणी।



# भाषांतराचीं तत्वां आनी कला



**प्रताप नायक, जे.स.**
**तोमास् स्टीवन्स कोंकणी केंद्र**
**गोंय**

## 0. प्रस्तावन

संसारांत्ली खंय्चिय भास आमी घेत्ली जाल्यार ती भास पय्ली मन्शां उलय्तात आनी उप्रांत गर्ज म्हणुन दिस्ल्यार ती वरय्तात। भास उलय्ताना ध्वनिंचो (speech sounds) वापर जाता। वरय्ताना कुर्वांचो वापर जाता। भास एका समाजाचो, संस्कृतेचो गर्जेचो वांटो। मनिस जेद्नां हेरां विशीं सम्जुन घेंव्क मोद्ता तेद्नां ताका त्या लोकाची भास येंव्चि पड्ता। जर ताका ती भास येना तेद्नां ते भाशेची माहिती भाषांतर करुन कोणें तरयी दिंव्ची पड्ता। हेर भासांची माहिती आप्ले भाशेंत मेळुंक भाषांतर हें एक इपयुक्त माध्यम। भाषांतर तोंडी (oral) वा लिखित (written) आसुं येता।

## 0.1 भाषांतराचें स्थान

एके भाशेच्या साहित्याचे वाडावळिक तीन मुखेल प्रकारांच्या साहित्याची चड गर्ज आसा।

**पय्लो प्रकारः** लोकवेद (folklore). हांतुं लोकाच्यो काणियो, सांग्ण्यो, म्हणि, हुमाणिं, माग्णिं, गितां इत्यादी आटाप्तात। सर्व भासांनी लोकवेद आसा आनी तो लोकाच्या तोंडार चड घोळता। हें साहित्य लोकाची संस्कृती, तांचे भाशेचें खाशेलेपण (uniqueness), तांच्या चिंत्पाची रीत, भोग्णांचि - भावनां रीत आनी तीं उग्ताव्पाचि तरी हांचेर उज्वाड घाल्ता।

**दुस्रो प्रकारः** सर्जनात्मक साहित्य (creative literature) भाशेच्या वरोव्यांनी निर्माण केल्ल्या ह्या प्रकारांत कथा, कादंवरी, कविता, नाटक, आत्मकथा, जिवितकथा, प्रवासवर्णन, इत्यादी आस्पाव्तात।

**तिस्रो प्रकारः** भाषांतर साहित्य। हेर भासां थाव्न भाषांतर जाल्लें साहित्य। संसारांत्ल्या सुधारित भासांनी भाषांतर साहित्याचो वांटो सर्जनात्मक साहित्या तित्लोच आसा। घडिये भाषांतर साहित्याक लागुन त्या भासांच्या साहित्याचो पांव्डो (quality) आनी आंक्डो (quantity) वाड्लो आसुं येता। भाषातंर साहित्याक लागुन साहित्याचे दुस्रे दुस्रे प्रकार त्या भासांनी आय्ले आस्तित।

## 1. पारिभाषिक उत्रावळ

इंग्लिष ह्या Translation उत्राक कोंक्णिंत विविध उत्रां वापर्ल्यांत। तर्जुमो, तर्जण, अनुवाद, अण्कार, रुपांतर, भाषांतर। तर्जुमो आनी तर्जण हीं उत्रां अरेविक भासां थाव्न आय्ल्यांत। तर्जुमो = summary, तर्जण = examine अनुवाद आनी रुपांतर संस्कृत भाशेचीं उत्रां। अनुवाद = repetition by way of explanation or free translation. रुपांतर = adaptation. गोंयांत अण्कार हें उतर घोळता। हें उतर मराठी 'अनुकार' = (Copying)

उत्राल्यान आय्लां। देकुन 'भाषांतर' हेंच उतर translation ह्या अर्थान हावें वापलां। आयन भासांनि हेंच उतर चड वापर्तात।

## 1.1 भाषांतर म्हण्जे कितें?

एक भाशचें उलोव्प वा पाट (texts) अचुकपणान (accurately) दुस्रे भाशेंत हाडप हाका भाषांतर म्हण्तात। भाषांतर कर्चे प्रक्रियेंत (process) तीन घटक (components) आसात।




जे भाशेंत्लो पाट भाषांतर करुंक आसा ते भाशेक मूळ भास म्हण्तात। जे भाशेंत तो पाट भाषांतर कर्तात ते भाशेक शेवट भास म्हण्तात। दाखल्याक: शिवराम कारंताची "मूकज्ञिय कनमुगळु" ही कादंबरि घेया। ही कादंबरि = पाठ कन्नड भाशेंत आसा। देकुन कन्नड ही मूळ भास। ती कादंबरि जर कोंक्णि भाशेंत भाषांतर जाता तर कोंक्णि शेवट भास जाता। पुंडलिक नाय्काची 'अच्छेव' कोंक्णि कादंबरि इंग्लिश भाशेंत भाशांतर जाल्या। थंय कोंक्णि मूळ भास आनी इंग्लिश शेवट भास।

**2. भाषांतराचे प्रकार**

भाषांतर विविध प्रकारांनि केल्लें पळेंव्क मेळता। तांतले कांय मुखेल प्रकार अशे आसात।

**2.1 शब्दानुवाद (Literal translation):** हांतुं मूळपाटांत वापरल्ल्या उत्रांक, वाक्य रचनेक, शैलिक चड महत्व आसा। कायद्याचे पाट (Legal texts) भाषांतर कर्तांना शब्दानुवाद चड्सो वापर्तात। साहित्याचें भाषांतर कर्तांना ही पद्धत तितली उप्कारा। भाषांतराची कला आनी तत्वां सार्कि नेणा आसल्ले शब्दानुवादाक चड महत्व दितात। मंगळुर धर्मप्रांतांत मागण्याचें कोंकणी भाषांतर कर्तांना कोंक्णि भाशचें खाशेलेपण, तिच्या व्याकरणाची बांदावळ मतिन धर्गिनास्ताना शब्दानुवाद वापर्ला। हाका लागुन मागण्यांचीं उत्रां कोंक्णि पूण व्याकरण इंग्लिष जालां। दाखल्याक:

i. Hear our prayer O Lord हाचें कोंक्णि भाषांतर उत्राक उतर धरुन अशें केलां। "आय्क आम्चें मागणें ए सोम्या". ही चूक हावें दाकोव्न दितच, कोंक्णि भाशचे बांदावळी प्रमाणें "ए सोम्या, आम्चें मागणें आय्क" हें भाषांतर वापरुंक सुरु केलां।

ii. Jesus, meek and humble of heart
Make my heart like unto thine

"जेजु भोळया आनी खाल्त्या काळजाच्या
कर काळिज म्हजें तुज्या काळजा सार्कें" अशें भाषांतर केल्लें लोक वापर्ता। हें भाषांतर अशें केल्यार वरें: "जेजु भोळया आनी खाल्त्या काळजाच्या म्हजें काळिज तुज्या काळजा सार्कें कर"

ii. Pray for us, O Holy Mother of God
That we may be made worthy of the promises of Christ
भाषांतर अशें केलां:
"भागेवंति देवाचे माये, आमा पासुन विनति कर
क्रिस्ताच्या भासाव्यांक आमी फावो जांव्चे खातिर"
हें भाषांतर सार्कें कर्चें जाल्यार अशें जातेलें:
"भागेवंत देवाचे माये, आम्चे पासुन विनति कर
क्रिस्ताच्यो भासाव्यो आम्कां फावो जांव्दित"

गोंयांत मराठिच्या प्रभावान इंग्लिष वाक्यां कोंक्णिंत भाषातंर कर्ताना मराठि व्याकरणाचो प्रभाव दिष्टिक पड्ता। दाखल्याक

i. Terrorists killed ten people
"आकांतवादि कड्ल्यान धा जण मार्ले गेले"
"आकांतवाद्यांनि धा जणांक मार्ले" हें भाषांतर कोंक्णि भाशेच्या व्याकरणा प्रमाणें आसा।

ii. Divorce हाका मराठिंत 'घटस्फोट' उतर आसा। गोंयांत शिकप आसल्लो हिंदु लोक कोंक्णि उलयताना हें उतर वापर्तात। आय्लेवार 'घटस्फोट' ह्या उत्राचो शब्दानुवाद करुन 'वुड्ड ल्याक फार', 'वुड्ड लो फुटप' असलि हास्याम्पद उत्रावळ गोंयांत वाचुंक मेळता। क्रिस्तांव लोक Divorce ह्या उत्राक 'लग्न मोडप' वा 'काजार मोडप' हें सादें सोपें कोंक्णि उतर वापर्ता।

iii. Many great people were born in our country. "आम्च्या देशांत जाय्ते म्हापुरुष जाव्न गेले" हाचे वद्लाक "आम्च्या देशांत जाय्ते म्हापुरुष जल्माल्ले" हें भाशांतर सार्कें आसा।

**2.2 अनुकरणवाद (Imitation):** गोंयांत चड्सो हिंदु लोक आप्लें मुळावें शिकप (primary education) मराठिंत कर्तालो आनी आतांय कर्तात। शिक्पाक लागुन, सांस्कृतिक, धार्मिक आनी ऐतिहासिक कारणांक लागुन तांच्या चिंत्पाचेर, उलोव्पाचेर, वरोव्पाचेर, चालि रितिंचेर मराठि भाशेचो आनी संस्कृतेचो वरोच प्रभाव पड्ला। मराठि भाशेचें आनि संस्कृतेचें अनुकरण केल्ल्यान अशें जालां। हाचि तांकां केद्नां केद्नां जाणिव सय्त ना। दाखल्याक: गोंय्च्या हिंदु लोकाचिं आड्नांवां घेयात। 'भेंब्रो', 'गाय्तोंडो', 'वुड्ड लो', 'भोंस्लो', 'हेदो' 'सोंदो', 'केळेकार', 'केर्कर', 'प्रियोळकार', 'मड्गांवकर'... मराठिच्या प्रभावान हिं आड्नांवां आशिं बरय्तात: 'भेंब्रे', 'गाय्तोंडे', 'वुड्ड ले', 'भोंस्ले', 'हेदे', 'सोंदे', 'केळेकर', 'केर्कर्',

'प्रियोळकर', 'मङ्गावकर', कांय जण मात्र कोंकणि रूप 'कळेकार', 'केरकार', 'प्रियोळकार', 'मङ्गावकार' वापरतात। पूण ही प्रक्रिया 'भेंब्रो', 'गायतोंडो', असल्या आडनांवांनी जावंक ना। ह्या अनुकरणवादाच्या प्रभावान आदि गोंय्च्या हिंदु लोका मधले वरेंच जण कोंकणि मराठीची बोली (dialect) म्हणटाले। आताय कांय जण मराठी गोंय्च्या हिंदु लोकाची सांस्कृतिक भास (Cultural language) म्हणटात। देकुन गोंयांत कोंकणि सांगाता मराठिक राजभाशेचो दर्जो मेळूंक जाय हो तांचो वाद आजून चालु आसा।

**2.3 रूपांतर (Adaptation):** मूळ भाशेच्या पाठाचो आशय (essence) सांबाळून रूपांत (form), शैलित (style), सादरिकरणांत (presentation) बदल करून सर्जनात्मक (creative), रितिन केल्ल्या भाशांतराक रूपांतर वा अनुसर्जन म्हणटात। रूपांतर करताना काल्पनिकतेक चड सेवळिक आस्ता। रूपांतर करपी, भाशांतरकारा प्रास चड ताकत आनी दर्जो आसल्लो बरोवपि। दाखल्याक: यु.आर. अनंतमूर्तिची कन्नड कादंबरी 'संस्कार' गोंयांत दत्ताराम कामत बांबोळकारान नाटकाच्या स्वरूपान रूपांतर केल्या। त्या नाटकाक पुरस्कार मेळळयात आनि तें नाटक लोकाक रुच्लां।

भाशांतरकाराक आसल्लिं बंदनां रूपांतर करतल्याक नांत। हाका लागुन रूपांतर केल्लो पाठ शेवट भाशेचोच असो दिस्ता।

## 3. भाषांतराचिं तत्वां

साहित्याचें भाशांतर करचें काम कठिण। ति एक कला। भाशांतरकार स्वता एक बरो बरोवपि आस्चो पड्ता। सर्जनात्मक साहित्य बरोवंक किल्लि ताकत जाय ताचे प्रास चड ताकत भाशांतरकाराक गर्ज आसा। बरो बरोवपि मात्र मूळ भाशेच्या बरोव्प्याक, मूळ भाशेंल्या पाठाक आनि भाशांतर केल्ल्या पाठाक नीत आनि पांवडो दिवंक सक्ता। हें जावंक जाय जाल्यार भाशांतरकारान कांय तत्वां आनि विषय मतिंत दवरूंक आसात।

**3.1 भाषांतराचे उद्देश (objectives) आनी ध्येय (goals):** भाशांतराचे उद्देश खंय्चे? ताचो ध्येय कितें? भाशांतर कोणा खातिर, कित्याक खातिर? हांचेर भाशांतरकारान भाशांतर वाव्र सुरु करचे पयलें बारिक्साणेन चिंतुंक आसा। भाशांतराचे वाच्पी कोण हाचेर आधारून भाशांतराचें स्वरूप बदल्ता।

भुर्ग्यां खातिर भाशांतर करतांना भाशेचि उत्रावळ, वाक्य रचना, शैली आनी मांडावळ भुर्ग्यांक सम्जाता आनी बरी लाग्ता तसली आस्तली। साद्या वाच्प्यां खातिर केल्लें भाशांतर आनी जाणाऱ्यां खातिर केल्लें भाशांतर हांतु जाय्तो फरक आसा। दाखल्याक: साद्या वाच्प्यां खातिर इंग्लिश भाशेंत Good News Bible: Today's English Version भाशांतर आसा। पूण हें भाशांतर बायबलाचेर अभ्यास करतल्यांक उपकारां। तांचे खातिर The Holy Bible. The New Revised Standard Version वा New Jerusalem Bible हीं भाशांतरां आसात। तांत्रिक पुस्तकां (Technical Books), काय्द्याचि पुस्तकां (Law books) आनी अधिकृत

वर्पावळ (Official literature) भापांतर कर्ची रीत वेग्ळी। थंय पाठाच्या अचुक्पणाक (accuracy) चड महत्व दिव्वें पड्ता।

**3.2 भाषांतरकाराक भासांचें गिन्यानः** भाषांतरकागक मूळ भास आनी शेवट भास हांचें बरें गिन्यान जाय। त्या भासांचेर ताका धनिपण (mastery) आमूल्लें तिल्लें वरें। देकुन भाषांतरकार द्विभाषिक (bilingual). दोनयि भासांची आनी तांच्या संस्कृतायांचि (culture) वाग्क्मिाणेंचि माहिति ताका खवर आसुंक जाय। दोन भासो दोन समाजांचें प्रतिनिदित्व कर्तात। देकुन दोन भासांचि विश्वनदर (world-view) वेवेग्ळि आस्ता। विश्वनदर म्हण्ल्यार एके भाशेच्या लोकान चिंत्वि आनी उलोंव्वि रीत, तांचीं चिंत्लां आनी भोग्णां उचार्चि रीत, चालिरिती, फेस्तांपर्वो, खाणजेवण, न्हेसणपांग्रुण, आचारविचार आनी संस्कृताय दुस्रे भाशेच्या लोका प्रास वेग्ळि आस्ता। हरेका समाजाक आप्लें म्हण्ल्लें खाशेलेपण आनी वेग्ळेपण (separationess) आसा आनी तें त्या समाजाचे भाशेंत आनी संस्कृतायेंत आटाप्लां। जर मूळ्भास आनी शेवट भास एकाच भाषिक घराण्यांल्यो (Language family) वा सेजार्च्यो भासो (neighbour languages) वा थळाव्यो भासो (local languages) जाल्यार हें अंतर उणें आसुं येता। दाखल्याकः मराठी आनी कोंक्णि एकाच घराण्यांल्यो भासो। महाराष्ट्र आनी कर्नाटक एकामेकाक सेजार्चीं राज्यां देकुन मराठी आनी कन्नड सेजार्च्यो भासो। कर्नाटकाच्या उडुपि आनी दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांनि कन्नड, तुळु आनी कोंक्णि थळाव्यो भासो। असले परिस्थितेंत प्रभावी भास (dominant language) हेर भासांचेर आप्लो प्रभाव घाल्ता।

जर मूळ भास आनी शेवट भास दुस्त्र्या दुस्त्र्या घराण्यांल्यो वा वठारांल्यो जाल्यार तांचे मधें चड फरक आस्ता। दाखल्याक तेलुगु आनी कोंक्णि भाषांतर्कार दोन भासांची विश्व नदर सम्जुन घेता आनी मूळ भाशेचो पाठ शेवट भाशेचे विश्वनद्रेंत बसासो कर्ता। हें काम वेंच कठिण। दाखल्याक गौड सारस्वतांचे कोंक्णि बोलियेंत्लें एक वाक्य घेयातः "तुवें तुग्गेली गाडी पेटोन्न दिव्का" गोंयांत कोंक्णि उलय्तल्यांक ह्या वाक्याचें इंग्लिष भाषांतर करुंक सांग्ल्यार तांचें भाषांतर अशें जांव्ची शक्यताय आसा you must burn your vehicle. जांकां गौड सारस्वतांचि कोंक्णि बोली खबर आसा तांचें भाषांतर you must send your vehicle अशें जातलें।

शेवट भास भाषांतरकाराची आवय भास आसा जाल्यार भाषांतर वाव्र सोंपो जाता आनी भाषांतर वरें जांव येता। मूळ भाशेच्या पाठांत प्रमाण लिखित भास (Standard Written Variety) आनी थळाव्यो उलोव्पाच्यो बोलियो (local spoken dialects) मिसळ आस्ल्यार भाषांतरकाराक हांचिय वरी वळक गर्जेचि।

**3.3 भाषांतर कर्ताना मूळ भाशेच्या पाठाचो आशय (essence):** चड महत्वाचो, आकार (form) आनी शैली तित्ली महत्वाची न्हय। म्हणी (proverbs), वाक प्रचार (idioms), कविता हांचें भाषांतर कर्ताना आशय सम्जुन घेंव्वो पड्ता। ना जाल्यार अर्थाचो अनर्थ (Wrong Sense) जाता। भाषांतर केल्लो पाठ वाच्पी सार्के सम्जतात अशें चिंत्वे प्रास ते

त्या पाठाचो चुकिचो अर्थ कर्तित हाचेर लक्ष दिल्लें वरें। जेद्नां चडांत चड लोक भाषांतर केल्लो एक उतारो (passage) चुकिच्या अर्थान समजुन घेता तेद्नां तो उतारो मार्को भाषांतर केला म्हणुंक जाय्ना। दाखल्याक:

i. Cain knew his wife and she conceived and bore Enoch (Genesis 1:17). The New RSV वाय्बलांत हें वाक्य आसा। हिब्रु भाशेंल्या उतार्‍याचो शब्दानुवाद इंग्लिष भाशेंत हांगा केला। ह्या इंग्लिष भाषांतराचेर आधारून कोणें तर्‍यी अशें भाषांतर करुंक जाता। "काय्न आप्ले वाय्लेक वळकातालो आनी ती गर्भेस्त जाली आनी एनोकाक जल्म दिलो". कांय वाच्प्यांक "काय्न आप्ले वाय्लेक वळकातालो" ह्या वाक्याचो मार्को अर्थ जातलो हाची खात्री ना। दुकन "काय्नान आप्ले वाय्लेकडे एक्वट केलो आनी ती गर्भेस्त जाली आनी एनोकाक जल्म दिलो" अशें भाषांतर केल्यार अर्थात स्पष्टताय येता।

ii. "दाल में कुछ काला है" - हें हिंदी वाक्य "दाळिंत कितें तर्‍यी काळें आसा" अशें भाषांतर करुंक जांव्वें ना। "हांगा कितें तर्‍यी शिज्ना" वा "हाचो दुवाव मार्ता" अशें भाषांतर कर्चें पड्ता।

आशय सांबाळुन इंग्लिष म्हणि कोंक्णिंत भाशांतर केल्ले कांय दाखले पळेयात।

a. Bad workman quarrels with his tools. "नाचुंक येना ताका आंगण वांक्डें".
b. The cat would eat fish but would not wet her feet.
"काष्टि भिजय नास्ताना तिगुर धरुंक सोद्ता".
c. Give him an inch and he will take an ell.
"भटाक दिलीं आस्रि, भट् हातपाय पस्रि".
d. Bad habits die hard.
"सुंब लास्ल्यार वळ वेता?"
e. Counting chickens before they are hatched.
"दर्यांत आसा मासो, मोल कर्ता पिसो".

**3.4** भाषांतरकारान मूळ भाशेच्या पाठाचो आदार घेव्न शेवट भाशेंत भाषांतर केल्यार मात्र भाषांतर केल्लो पाठ मूळ भाशेच्या पाठाक प्रामाणिक उरत आनी भाषांतर मार्कें जायत। खलिल जिब्रानाचें 'अल रुसुल' नांवाचें नांवाड्जें (famous) पुस्तक अरेविक भाशेंत आसा। संसाराच्या जाय्त्या भासांनी तें भाषांतर जालां। कोंक्णिंत त्या पुस्तकाचें भाशांतर कर्तल्याक अरेविक भास वरी येंव्क जाय। इंग्लिष वा हेर भासांच्या भाषांतराचो आधार घेंव्क जाता। पूण तो आधार मूळ भाशेचो पाठ समजुन घेव्पा पुर्तोच आसुंक जाय। मूळ भास येनास्ताना हेर भासांच्या भाषांतराचेर आधारून कोंक्णि भाषांतर केल्यार 'भाषांतराचें भाषांतर' जाता। हाका लागुन भाषांतराचो पांव्टो देंव्ता। मूळ साहित्याक आनी ताच्या बरोव्प्याक नीत मेळाना। मूळ भाशेच्या पाठांत नासल्ले विषय भाषांतरांत येंव्चि शक्यताय आसा। दाखल्याक: कन्नडांत यु.आर.

अनंतमूर्तिन 'संस्कार' कादंबरि बरयल्या। ए.के. रामानुजान ते कादंबरीचें इंग्लिष भाषांतर केलां। प्रकाश थळिन इंग्लिष भाषांतराचर आधारुन ती कादंबरि कोंक्णिंत भाषांतर केल्या। अशें कर्तांना मूळ पाठांत नासुल्लिं वाक्यां भाषांतरांत आयल्यांत। कन्नड मूळ पाठः

"ऊटक्के कूरुव मुंचे गोग्रामवन्नु वाळेलेयल्ली एत्ती हित्तलिनल्ली मेयुत्तिद्द गौरिय एदुरु इट्टु, हमुविन रोमांचित मैयन्नु ओरेसि कण्णिगोत्तिकोंडु ओळगे बरुत्तिद्दंते 'आचार्यरे, आचार्यरे' एंदु करेयुव हेण्णिन स्वर केळिसितु। आलिसिदरे नारणप्पन सूळे चंद्रिय स्वरदंतिदे। अवळ हत्तिर मातनाडिदरे मत्ते स्नान माडि ऊट माडबेकु। आदरे हेण्णु हेंगसोब्बळन्नु अंगळदल्लि कायिसिदरे तुत्तु गंटलल्लिळियुवुदु शक्यवे?"

**थळिचें कोंक्णि भाषांतरः**

"जेंव्क वस्चे पय्लें ताणें गौरि हे आण्णाले गाये खातिर एका केळी पानार खावड घाली आनी ती पाट्ल्या दारा चर्तले गाये मुकार व्हरुन वर्दलि। अपुर्वायेन आनी भक्तिभावान तिची पाट सांम्पिली। तिच्या आंगार कांटो फुल्लो आनी ल्हंवुवि जाली। ज्या हातान त्या पवित्र जनावराक मांम्पिलें तोच हात श्रद्धेन दोळयांक लाय्लो। घरांत भितर सर्तनां ताणें एके वाय्लमन्शेचो ताळो आय्कलोः 'आचार्य, आचार्य!' तो उलो ताका नारायणप्पाची नाय्किण चंद्रिचोसो दिस्लो। ताणें येव्जिलेंः आतां ह्या वेळार हिचे कडेन उलय्न जाल्यार हांव भश्टतलों। जेंव्चे पय्लें पर्तेय न्हांव्वें पड्तलें। पूण एक वाय्ल मनिस दारांत वाट पळय्त उबी आस्तना ताळया सकय्ल उंडी कशी वत्ली?"

ह्या भाषांतरांत बरोव्याच्यो आनी व्याकरणाच्यो चुकी आसात। ती गजाल आमुं। थळिच्या भाषांतरांत मूळ पाठांत नासुल्ले कांय विषय भितर रिग्ल्यात।

i. आण्णाले गाये खातिर
ii. पाट्ल्या दारा
iii. अपुर्वायेन आनी भक्तिभावान
iv. तिच्या आंगार कांटो फुल्लो
v. ज्या हातान त्या पवित्र जनावराक सांस्पिलें तोच हात श्रद्धेन
vi. हांव भश्टतलों

कोंक्णिंत खलिल जिब्रानाचिं अरेबिक भाशेचीं पुस्तकां, रविंद्रनाथ टागोराचीं बंगाळी पुस्तकां, गिरिश कार्नाडाचीं कन्नड नाटकां, हिब्रु आनी ग्रीक भासांचो बाय्बल, संस्कृतांत्लें महाभारत भाषांतर जाल्यांत। पूण हिं भाषांतरां मूळ भाशे थाव्न केल्लीं न्हय। भाषांतराचीं भाषांतरां। कोंक्णिंत जाल्लीं कांय भाषांतरां खर्या अर्थान रुपांतरां। दाखल्याक खलिल जिब्रानाचें 'अल रुमुल' पुस्तक वाकिवाव् बोर्कारान इंग्लिष भाषांतर Prophet हाच्या आधारान कोंक्णिंत 'पैगंबर' नांवान केलां। रुपांतराक साहित्यांत स्थान आसा। पूण तें भाषांतराचो जागो घेंव्क सकाना।

**3.5 भासांची बांदावळः** हरेके भाशेक आप्लें म्हणल्लें खाशेलेपण आनी वेग्ळेपण आसा।

देकुन कन्नड भाशे प्राम कोंक्णि वेग्ळी। इंग्लिष भाशेच्या गद्याचे वाक्यरचनेंत कर्तो (subjects) + क्रिया (verb) + कर्म (objects) हो क्रम आसा। दाखल्याक:

The boy ate a mango.

कोंक्णिंत हो क्रम वेग्ळो आसा। कर्तो+कर्म+क्रिया देकुन वय्लें इंग्लिष वाक्य कोंक्णिंत "भुग्यांन आंबो खेलो (खालो)" अशें जाता।

इंग्लिष आनी हिंदी भाशांच्या प्रभावान कोंक्णि वरेंय्वि 'कि' ह्या उत्राचो that ह्या अर्थान वापर कर्तात। दाखल्याक: Gopal said that the story was true.

"गोपालान सांग्लें कि ति काणि खरि"

'कि' उतर कोंक्णि उलोंव्पि मादीं मन्शां वापरिनांत। कित्याक 'कि' that ह्या अर्थान कोंक्णिंत ना। देकुन "गोपालान सांग्लें, ती काणी खरी" हें वाक्य कोंक्णिच्या वांदावळी प्रकार आसा। भाषांतरकारक मूळ भाशेचें व्याकरण आनी शेवट भाशेचें व्याकरण हांचे मद्लो फरक खबर आसुंक जाय।

3.6 मूळ पाटाच्या आशयाक लागीं लागीं येता तसलें समनार्थि उतर (equivalent word) भाषांतराक गर्जेचें। सर्वसम् उतर (identical word) गर्ज ना। दाखल्याक: Good morning हाचें समनार्थि भाषांतर "देव बरो दीस दींव", "बरी सकाळ" हें सर्वसम भाषांतर अडेचें (artificial) जाता।

Cousin ह्या उत्राक कोंक्णिंत जाय्तीं उत्रां आसात। दाखल्याक: माव्शे भाव, माव्शे भय्ण, बापुल भाव, बापुल भय्ण, मामे भाव, मामे भय्ण...

इंग्लिष थाव्न कोंक्णिक भाषांतर कर्तांना Cousin खंय्च्या अर्थान वापर्लां। त्या अर्थाचें कोंक्णि उतर दिव्वें पड्ता। हिच पद्धत सांग्रिक दाकोंव्पि, uncle, aunti, nephew, niece ह्या उत्रांक लागु जाता।

3.7 भाषांतरकारान मूळ भाशेच्या पाटाक जाता तितलें लागीं रावुंक आसा। पूण मूळ भाशेची शैली, व्याकरणाची वांदावळ, सांस्कृतिक संदर्भ, अलंकार, प्रास इत्यादी पाळिच गर्ज ना। तस्सीं कवितेचो पाट गद्यांत भाषांतर कर्चो न्हय। मूळ पाटाच्या विषया प्रमाणें आनी भाषांतराच्या उद्देशा प्रमाणें भाषांतराची शैली विंचिच पड्ता। भाषांतर कर्चे काम उलय्ता तितलें सोंपें न्हय। देकुन एक्लो इटॅलियन बरोंव्पि म्हण्ता: **"भाषांतर एके बाय्ले परीं। सोबाय आस्ल्यार प्रामाणिक्पण ना। प्रामाणिक्पण आस्ल्यार सोबाय ना।"**

भगवद्गीतेचें भाषांतर शेणै गोंयबाबान कोंक्णि गद्यांत केलां। भगवद्गीतेचो सार (Content) ताणें कोंक्णिंत दिला। पूण जशी भगवद्गीता संस्कृतांत गांव्क जाता तशें शेणै गोंयबाबाचें भाषांतर गाव्याक उप्कारना।

इंग्लिष भाशेचें Maiden Mother नांवाचें धार्मिक गीत आसा। त्या गिताचो नाद (melody) सांबाळुन मंग्ळुरांत कोंक्णि भाषांतर बरें केलां। भाषांतर एकुणिसाव्या शेक्ड्याचें आरंभीक वा विसाव्या शेक्ड्याचे सुर्वातेक कोणें तयार केलां।

इंग्लिष मूळ गीत:

**MAIDEN MOTHER**

1. Maiden Mother, meek and mild
Take, Oh, take me for thy child;
All my life, Oh, let it be
My best joy to think of thee

**Ch:** When my eyes are closed in sleep
Through the night my slumbers keep;
Make my latest thought to be
How to love thy son and thee.

2. Teach me, when the sunbeam bright
Calls me with its golden light,
How my waking thoughts may be
Turned to Jesus and to thee.

3. And, oh teach me through the day
Oft to raise my heart, and say:
"Maiden mother, meek and mild,
Guard, Oh! guard thy faithful child."

**कोंक्णि भाषांतर:**

1. माये म्हजे भोव मोगाळ्
कर्न घे म्हाका तुजें बाळ्
जांव माये उडास तुजो
संतोस म्हज्या (म्हजे) जिण्येचो।

**सक्कड्:** हांव निदोन धांम्रच दोळे
कांय पूण विघ्न येत्गि पळे;
निदेंत्यी हुस्को म्हजो
कसो करुं मोग तुजो।

2. सकाळिंची जाग जातच
तोंडार म्हज्या दीस फांक्तच
पय्लि हा! चिंत्लां म्हजीं,
जेजुची आनी तुजी।

3. सर्व वस्तुंत म्हणुंक शिकय
सोदुन येव्न तुजी ससाय
"माये म्हजे, भोव मोगाळ
राक म्हाका हांव तुजें बाळ्।"

**3.8** भाषांतर केल्लो पाठ भाषांतर केल्लेपरीं दिसुंक जाय्ना। तो शेवट भाशेंत्लोच पाठ असो दिसुंक जाय। अशें जांव्क जाय जाल्यार भाषांतराची भास व्हाळुंक जाय। अस्पष्टताय (ambiguity), लांव वाक्यां नास्ताना सोंपी, सुढाळ, आकर्षिक भास वापर्चि गर्ज। दाखल्याक यशवंत चित्तालाची कन्नड कथा

"आवांलिन" घेया। मेल्विन रुद्रिग्मान तो 'आवोंलिन' नांवान कोंकिणंत भाषांतर केल्या। तांलो एक उतारो वाचात।

"आमोर मडाय फुलां हाड्च्या चेडुान त्या टीम आवोंलीं हाड्ल्ल्या वेळार कितें एकाचफरा म्हाका आवोंलिनाचो उग्डास आय्लो। आवोंली म्हळ्यार जीव: हाड्ल्ली काण्घंजे म्हण म्हाका भाग्लें। पूण दुस्रे घडियें, हिं फुलां आण्णा वरवर हाड्ल्ले आनी किल्लेशा तेंपा आदीं आम्का साडुन गल्ले म्हजे मोगाचे इर्टिणिचो आवोंलिनाचो उग्डास येव्न म्हजो जीव कळवळो। म्हज्या तोंडार तेदाळा कसली भोग्णां रुपेल्लीं कोण जाणा? लाग्मार्च उबो रवोन आमुल्ल्या आमोल्यान विचालें: "कितें जालें, सुमति? फुलां काण्घंव्न मोडिनांय? तुज्या जिवाची गांट तीं" म्हण अंत्ताय केलो।

वर्या भाषांतराचे सर्व गूण ह्या भाषांतरांत आसात।

मूळ भास ज्या वाच्प्यांक येना तांचे खातिर ते भाशेल्लें मोलाचें साहित्य वाच्प्यांचे भाशेंत तांकां वाचुंक मेळचें हो भाषांतराचो मुळावो उद्देश। अशें आस्ताना भाषांतर केल्लो पाठ मूळ भाशेच्या पाठा तित्लोच वा चड कठिण जर जालो तर भाषांतराचो उद्देश निफळ जातलो। दाख्ल्याक भगवद्गीतेचो 9:18 श्लोक घेयात:

गतिर्भर्ता प्रभुः साक्षी निवासः शरणं सुहृत्।

प्रभवः प्रलयः स्थानं निधानं बीजमव्ययम्।

हाचें भाषांतर देवाधिन वाकिवाव बोर्कारान अशें केलां: "पुस्निवंत, सगो, स्वामी, साक्षी, थार, धिरो, गती उत्पत्ती - स्थिती लययु हांव मुटल् बीज अव्यय।" हें भाषांतर साद्या वाच्प्यांक सोडात। शिकल्ल्या मन्शांक समजना। वयल्या श्लोकाचें भाषांतर अशें करुंक जाता: "सर्वांक हालचाल, पोस्पी, धर्नी, साक्षी, थारो, आस्रो, इष्ट हांव सर्वांचो रच्पी, नास कर्पी, थळ, संपत्ती, अविनाशी बिं हांवच्"

**4.** साहित्याच्या मळार कोंकिण उदेव्न येंव्चि भास। कोंकिण साहित्याच्या विकासाक भाषांतर साहित्य एक साधन (means) वा देणें जांव येना। हातुं दुस्री वाट आसासो दिसना।

खंय्चय भाशेच्या साहित्याचो दर्जो फकत सर्जनात्मक साहित्याचेर मात्र आधारुन ना। भाषांतर साहित्याक लागुन तो वाडोंक जाता। सोळाव्या शेकड्यांत जर्मन भाशेंत बायबल भाषांतर जातच जर्मन साहित्याचो पांव्डो वाडोंक सुरु जलो। बायबलाचें King James Version भाषांतर 1611 वर्सा इंग्लिशांत उज्वाडाक आय्लें। इंग्लिश साहित्यांत ह्या भाषांतराक चड महत्व आसा।

संसारांतल्या आनी भारतांतल्या भासांचें उंचलें साहित्य आनी विचारवंत बरोव्प्यांचि बर्पावळ कोंकिण लोकांक आप्ले भाशेंत मेळुंक भाषांतर एक बरी वाट। जेदनां देशी आनी विदेशी भासांतलें उंचल साहित्य कोंकिणंत भाषांतर जातलें तेदनां कोंकिण साहित्याचेर, बरोव्प्यांचेर आनी वाच्प्यांचेर प्रभाव पड्तलो। हाका लागुन कोंकिण साहित्याची दिशा, नदर आनी व्याप (scope) बदलुंक सक्ता। भाषांतर साहित्याक लागुन कोंकिणंत नवी उत्रावळ, वाक्प्रचार, अलंकार

येतले। हाका लागुन भाशेचोयी विकास जातलो।

कोंक्णि लोक आस्वो पोसोभर आनी तो चार राज्यांनी शिंपडोन् आसा। तांतुं वाच्पी मूटभर्। बरोव्पी चिम्टिभर्। भाषांतर्कार बोटांचेर मेजुंक मेळनांत् तित्ले उणे कोंक्णि साहित्य कन्नड, देवनागरी आनी रोमी लिपियांनी वांटुन गेलां। तीन्यी लिपियांत्लें साहित्य दोळयां मुकार दवर्ल्यार सय्त कोंक्णिंत भाषांतर साहित्याचें प्रमाण उणें आसा। देकुन भाषांतर मळयांत काम करुंक फावोतिं पाव्लां काडुंक आसात।

**4.1** दोन प्रकारच्या भाषांतर वाव्राचेर आमी लक्ष घाल्चें पड्तलें।

i. हेर भासांचें उंच्लें साहित्य कोंक्णिंत भाषांतर कर्चें। कोंक्णि मनिस द्विभाषिक। गुजराती, हिंदी, तमिळ्, तेलुगु, मलयाळं, कन्नड्, उर्दु, जर्मन, फ्रेंच, संस्कृत इटेलियन, स्पेनिष्, लातिन, ग्रीक, हिब्रु। इत्यादी भासो येव्पी कोंकणी मनिस् आसात। ह्या भासांत्लें साहित्य कोंक्णिंत भाषांतर करुंक ताणीं हातभार लांव्क जाता।

ii. कोंक्णिंत्लें उंच्लें साहित्य हेर भासांनी भाषांतर कर्चें। हेंय काम तित्लेंच महत्वाचें आनी गर्जेचें। हाका लागुन कोंक्णि साहित्याचो पांव्डो खंय आसा हें हेर भासांच्या लोकाक कळतलें। कोंक्णिक राष्ट्रिय मान्यताय मेळ्ळी, राज्भाशेचो मान मेळ्ळो वा कोंक्णि साहित्याक पुरस्कार मेळ्ळे म्हणुन आम्चें साहित्य हेर् भासांच्या पांव्ड्याक पाव्लां म्हणुंक जाय्ना। जेद्नां हेर भासांचें लोक भाषांतर केल्लें कोंक्णि साहित्य तांच्या भासांनीं वाच्तले तेद्नांच् कोंक्णि साहित्याच्या पांव्ड्याची खरी परिक्षा जातली। वांय्त्ले माण्के वांय्त वोवो घाल्तात आनी आप्ली वांय संसारा तेदी आसा अशें चिंत्तात्। ती गत् कोंक्णिची (कोंक्णि भाशेची आनी मन्शांची) जांव्वी न्हय।

**आधारावळ (Bibliography):**

NIDA, Eugene A. 1982. The Theory and Practice of Translation. Leiden, E.J. Brill.

Snell-Hornby, Mary 1988 Translation Studies: An Integrated Approach. Amsterdam, John Benjamins Publishing Company.

नैटियाल, जयन्ती प्र. 2000 अनुवाद: सिद्धांत एवं व्यवहार
नई दिल्ली, राधाकृष्णा प्रकाशन

आमोणकार, सुरेश गु 2001 अणकार: कांय विचार
जाग 27:9 पानां 13-15

नाय्क, प्रताप 1996. अण्कार साहित्य आनि कोंक्णि भास उमाळो, एप्रिल 1996. पानां 9-10



# कोंक्णी भाषेचे क्रम आनी नेम

(मुंदर्मिलां)



प्रेम कुमार

## व्याकरण विभाग

**वर्णमाळा:** कोंक्णि वर्णमाळेंत 56 वर्ण आसात। हांतुं 16 स्वर आनी 40 व्यंजनां। 16 स्वरां पय्कि 8 तोंडी स्वर 8 नाक्ये स्वर। 40 व्यजनां पय्कि 35 तोंडी व्यंजनां आनी 5 नाक्शि व्यंजनां। संस्कृत वर्ण माळेंत फकत्त 13 स्वर आनी 33 व्यंजनां आसात। हे संग्तिंत कोंक्णि संस्कृता प्रास ग्रेस्त म्हण्येत।

**अक्षर:** स्वर आनी व्यंजन सांगाता मेळताना अक्षर जाता

**देखिक:** क्+अ-क र्+आ+र

- i) **एकाक्षरी सब्द** : वाड (व्+आ+ड)
- ii) **दोन अक्षरिक सब्द** : काणी (क्+आ+ण्+इ)
- iii) **तीन अक्षरिक सब्द** : दिवाळी (द्+इ+व्+आ+ळ्+इ)
- iv) **चार अक्षरिक सब्द** : सेनापती (स्+ए+न्+आ+प्+अ+त्+इ)

हांगा अक्षरांची संख्या स्वर आनी संधिस्वरांच्या संख्याचेर अवलंबुन आसा।

**नाम:** खंय्चेंय व्यक्ती, वस्तु, थळ, स्थिती, गूण इत्यादिचें नांव।

- i) **जात नाम:** अनिश्चित, व्यक्ती, वस्तु या थळाचें नांव: घर, दूद, देश, पुस्तक, कदेल, फुल, मनिस, भुर्गें, रस्तो
- ii) **विशेस नाम:** निश्चित व्यक्ती, वस्तु या थळाचें नांव: सुनिल, मंग्ळुर, सुनिता, भारत, सुर्यो, वैवल, गंगा
- iii) **भाव नाम:** वास्तविक या काल्पनिक स्थिती भोगप, कर्णि, या गुणाचें नांव: मोवाय, प्रभाव, तान, भुक, मोग, व्हड्पण, दव्लत, रड्णें।

**भावनामां:**

भावनामां म्हळ्यार कितें?

खंय्चेंय भोगप, चिंतन, भावन, वास्तविक या काल्पनिक स्थिती, अनुभव, गूण इत्यादिंच्या नांवांक भावनाम म्हण्तात।

कोंक्णि भासेंत, भाव नामांचें एक समृद्ध, ग्रेस्त भंडार आसा, एकाच विशेषणाक विगड विगड प्रत्यय लायिल्ल्यो थरावळ भावनामां आसात।

**देखिक:**

| विशेषण | प्रत्यय | भावनाम |
|---|---|---|
| व्हड | पण | व्हड्पण |
| व्हड | इक | व्हड्डिक |
| व्हड | काय | व्हड्डिकाय |

भावनामांचें मुखेल दोन विभाग आसात। पय्लो विभाग: स्वतंत्र भावनामां - हीं भाव नामां कमलेंय प्रत्यय लाय्नास्ताना मूळ रुपाच घोळतात।

देखिक: खुशी, आनंद, धय्र, हुस्को, खंत, भें, राग, मोग, आशा, मोसोर, तान, भुक, संतोस, प्रभाव, दुभाव, दव्लत, नाच, नशिव, मुरात, हंकार विक्रो, पारो, भलाय्कि, वरें, एक्वट, देक, जतन, रुंदि, उप्कार।

दुस्रो विभाग: ह्या विभागांत जेगल नामां, क्रिया, विशेषण इत्यादिंक विंगड विंगड प्रत्यय लाव्न भावनामां जातात।

i) आय:

| सब्द | | प्रत्यय | भावनाम |
|---|---|---|---|
| सोब | (क्रि) | आय | सोवाय |
| गूंड | (वि) | आय | गुंडाय |
| लांब | (वि) | आय | लांबाय |
| खुशाल | (वि) | आय | खुशालाय |
| नितळ | (वि) | आय | नितळाय |
| रूंद | (वि) | आय | रुंदाय |

हीं भावनामां स्त्रीलिंगांत घोळतात

ii) **अप: हें प्रत्यय चडावत क्रियेंक लाय्तात**

गंद्+अप-रांदप　　शिक्+अप-शिकप　　वाच+अप-वाचप
चींत+अप-चिंताप　　शिंद+अप-शिंदाप　　कोस+अप-कोमप
वरय+अप-वरप　　वाजय+अप-वाजप

हीं भावनामां नपुंमकलिंगांत घोळनात।

iii) **पण: हें प्रत्यय चडावत नामांक विशेषणांक आनी क्रिया विशेषणांक लाय्तात आनी नपुंसक लिंगांत घोळ्तात**

भुर्गें (ना) + पण - भुर्गेपण　　वरें (वि) (न) + पण - वरेपण
विश्वास (ना) + पण1-विश्वासपण　　वाळ (ना) + पण-वाळपण
फाग्कि (क्रि.वि) + पण-फाग्क्पिण　　सादें(वि) + पण-सादेपण
एक्सुरें (वि) + पण-एक्सुर्पण

iv) **काय: हें प्रत्यय चडावत नामांक आनी विशेषणांक लाय्तात। स्त्रीलिंगांत घोळ्तात**

**देखिक:**

ग्रेस्त (वि/ना) + काय-ग्रेस्तकाय　　राज्वट (ना) + काय-राज्वट्काय
वुद्वंत (वि) + काय-वुद्वंत्काय　　दुस्मान(ना) + काय-दुस्मान्काय
दुव्ळो (वि) + काय-दुव्ळिकाय

v) **इक: हें प्रत्यय क्रियेंक आनी विशेषणांक लाव्न भावनामां घड्तात आनी स्त्रीलिंगांत वापर्तात।**

होगळ (क्रि) + इक - होग्ळिक　　व्हड (वि) + इक - व्हड्कि

vi) णि: क्रियेक हें प्रत्यय लाव्न हीं भावनामां जातात, जीं स्त्रीलिंगांत वापर्तात

चड्+णि-चड्णि   डेंव+णि-डेंव्णि   भेश्टाय+णि-भेश्टाव्णि

तपाम+णि-तपाम्णि   कर्+णि-कर्णि   कळय+णि-कळोव्णि

लूव+णि-लुंव्णि   काव्जे+णि-काव्जेणि   धांव+णि-धांव्णि

पात्ये+णि-पात्येणि

vii) णें: क्रियेक हे प्रत्यय लाव्न हीं भाव्नामां घड्तात। जीं नपुंसक लिंगांत वापर्तात

माग्+णें-माग्णें   रड्+णे-रड्णें   आपय+णें-आपोव्णें

ये+णें-येणें   पिय+णें-पियोणें   वोग्शि+णें-वोग्माणें

viii) साण: हें प्रत्यय चडावत (गुणवाचक) विशेषणांक लाव्न भावनामां घड्तात, जीं स्त्रीलिंगांत घोव्लतात

गोरे+माण-गोर्माण   काळो+माण-काळमाण   गोड+माण-गोड्माण

मोव+माण-मोव्माण   कोडु+माण-कोड्माण   तीक+माण-तिक्साण

ix) व्ण: हें प्रत्यय चडावत क्रियेंक लाव्न भाव्नामां जातात, जिं स्त्रीलिंगांत घोव्लतात

शिकय+व्ण-शिकोव्ण   दाकय+व्ण-दाकोव्ण   आंगय+व्ण-आंगोव्ण

x) वळ: हें प्रत्यय चडावत नाम्पदांक लाव्न भावनामां घड्चेत, जीं स्त्रीलिंगांत वापर्तात

कार्ये-वळ-कार्यावळ   उतर+वळ-उत्रावळ   नियम+वळ-नियमावळ

वांध+वळ-वांदावळ   वंश+वळ-वंशावळ   मव्द+वळ-सव्दावळ

xi) आंव: पुड्तुगेज भाशेंत्ले सब्द 'आंव' प्रत्ययांत संप्तात, हीं कोंक्णिंत नपुंसक लिंगांत घोव्लतात।

देखिक: वेमांव, लिमांव, मिमांव, तेंनेमांव, ओग्मांव, देवमांव, माल्दिमांव, नवेमांव, तेमांव।

## लिंग-वचन

### पुल्लिंग नामां

1. 'ओ'कारांत नामां वहुवचनांत 'ए'कारांत जातात

| ए.व. | ब.व. | ए.व. | ब.व. | ए.व. | ब.व. |
|---|---|---|---|---|---|
| आंबो | आंबे | भुर्गो | भुर्गे | घोडो | घोडे |
| दादलो | दादले | रेडो | रेडे | लिंबो | लिंबे |
| कोंगो | कोंगे | कोंवो | कोंवे | दोळो | दोळे |

2. व्यंजनांत एकवचनी नामां वहुवचनांत बद्लनांत/आसा तशें उर्तात

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| रूक | रूक | बांक | बांक | पूत | पूत |
| माड | माड | देश | देश | पोणाम | पोणाम |
| दुकार | दुकार | केंस | केंस | गांव | गांव |

. ‘उ’कारांत एकवचनी नामां बहुवचनांत बदूलनांत/आसा तशें उर्तात

| | | |
|---|---|---|
| माडु - माडु | राजु - राजु | दट्टु - दट्टु |
| सावु - सावु | लाडु - लाडु | चेंडु - चेंडु |
| नातु - नातु | कोवु - कोवु | विंचु - विंचु |

. ‘इ’कारांत एकवचनी नामां (2) आनी (3) परिं दोनी वचनांनी एक सार्के/समान आस्तात

| | | |
|---|---|---|
| पाद्री - पाद्री | भिकारी - भिकारी | येज्मानी - येज्मानी |
| कवी - कवी | सुतारी - सुतारी | धनी - धनी |
| अधिकारी - अधिकारी | भावोजी - भावोजी | कार्यदर्शी - कार्यदर्शी |

5. वृत्ति सूचक ‘इ’कारांत नामां (2), आनी (3) परिं घोळ्तातः

गंट्टिप, कोम्पि, वाच्पि, वगेप्पि, नाच्पि इत्यादी

6. राग, मोसोर, मोग, नाच, हंकार, दुभाव, प्रभाव, हुस्को, विक्रो, पारो इत्यादी भावनामां चडावत दोनी वचनांनी एक सार्के घोळ्तात

7. हेर भासांच्या प्रभावाक लागोन कोंक्णिंत रिगूल्ले पप्पा, दादा, बाबा, मामा व्यक्तिसूचक इत्यादि नामां दोनी वचनांनी समान रुपार चाल्तेर आसात।

## स्त्रीलिंग नामां

1. थोडीं व्यंजनांत एकवचनी नामां बहुवचनांत ‘इ’कारांत जातात

| ए.व. | ब.व. | ए.व. | ब.व. | ए.व. | ब.व. |
|---|---|---|---|---|---|
| कात | - काती | भण्ण | - भण्णी | रात | - राती |
| पाल | - पाली | वाल | - वाली | साल | - साली |
| वात | - वाती | काय्ल | - काय्ली | रीत | - रिती |

2. थोडीं व्यंजनांत एकवचनी नामां बहुवचनांत ‘ओ’ कारांत जातात

| | | |
|---|---|---|
| मूय - मुयो | वाट - वाटो | जीब - जिबो |
| गाय - गायो | पाय्य - पाय्यो | आवय - आवयो |
| आकय - आकयो | व्हाण - व्हाणो | पेट - पेटो |

(1) & (2) हांतुं नामाच्या सुर्वेचो ‘ई’, ‘ए’ ‘ऊ’ कार बहुवचनांत ह्रस्व जाता।

3. ‘इ’कारांत एकवचनी नामां बहुवचनांत ‘ओ’ या ‘यो’ कारांत जातात

| | | |
|---|---|---|
| राणी - राणियो | मुदी - मुदियो | पांती - पांतियो |
| काणी - काणियो | मामी - मामियो | वोनी - वोनियो |

4. थोडीं ‘स’ व्यंजनांत एकवचनी नामां बहुवचनांत ‘श’ व्यंजनांत आनी ‘इ’ स्वरांत संप्तात

| | | |
|---|---|---|
| म्होस - मोशी | रास - राशी | धोस - धोशी |

5. ‘उ’कारांत नामां बहुवचनांत ‘वो’कारांत जातात

| | | |
|---|---|---|
| खोरु - खोर्वो | बाजु - बाज्वो | कुरु - कुर्वो |
| ताळु - ताळवो | ऊव - उवो | चिरु - चिर्वो |

6. तत्सम (संस्कृत) 'आ'कारांत एकवचनी नामां बहुवचनांत बदलनांत, आसातशें, उर्तातः पिडा, माता, दिशा, आशा, समस्या, प्रतिष्ठा, माळा, प्रजा

7. भुक, दव्लत, तान, भिरांत, सावोट इत्यादी भाव्नामां आनी 'आय', (सोभाय, दुब्लिकाय) 'इक', (होग्ळिक, व्हड्डिक)' 'णी', (चड्णी, काव्जेणी), 'साण', (गोर्साण, गोड्साण), 'व्ण', (शिकोव्ण, दाकोव्ण) आनी 'वळ', (कार्यावळ, राटावळ) इत्यादी प्रत्ययांत भाव्नामां स्त्रीलिगांत वापर्तात ।

## नपुसंकलिंग नामां

1. व्यंजनांत एकवचनी नामां बहुवचनांत 'आं' स्वरांत्य जातात

| ए.व. | | ब.व. | ए.व. | | ब.व. | ए.व. | | ब.व. |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| घर | - | घरां | यंत्र | - | यंत्रां | वज्र | - | वज्रां |
| जनेल | - | जनेलां | कुलेर | - | कुलेरां | कूड | - | कुडां |
| फुल | - | फुलां | वोट | - | वोटां | वाहन | - | वाहनां |

2. 'एं' स्वरांत्य एकवचनी नामां बहुवचनांत 'इं' स्वरांत्य जातात

| | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| कळें | - | कळीं | मुणें | - | मुणीं | पोतें | - | पोतीं |
| भुर्गें | - | भुर्गीं | वेळें | - | वेळीं | मोडें | - | मोडीं |
| माग्णें | - | माग्णीं | नाणें | - | नाणीं | मोगें | - | मोगीं |

3. 'उं' स्वरांत्य एकवचनी नामां बहुवचनांत 'आं' स्वरांत्य जातात

| | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| चेड्डुं | - | चेड्डां | वास्रुं | - | वास्रां | गोरुं | - | गोर्वां |
| तारुं | - | तार्वां | वेरुं | - | वेर्वां | मेरुं | - | मेर्वां |

4. 'इं' स्वरांत्य एकवचनी नामां बहुवचनांत 'यां' या 'इयां' प्रत्यया सवें संप्रात

| | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| वीं | - | वियां | तांतीं | - | तांतियां | मोतीं | - | मोतियां |
| मिरीं | - | मिरियां | दुदीं | - | दुदियां | | | |

5. बरेपण, व्हड्पण इत्यादी 'पण', प्रत्ययांत्य भावनामां,
गंटप, वाचप इत्यादी 'अप', प्रत्ययांत्य भावनामां,
माग्णें, रड्णें इत्यादी 'णें', प्रत्ययांत भावनामां,
वेगांव, लिसांव इत्यादी 'आंव', प्रत्ययांत्य भावनामां - नपुंसक लिगांत घोळतात/वापर्तात ।

**नामांचें सामान्य रूपः** उत्तर प्रत्यय लांव्चे आदीं जाता त्या नामाच्या विकार रूपाक नामाचें सामान्य रूप म्हण्तात ।

| | | एकवचन | | बहुवचन | |
|---|---|---|---|---|---|
| पुल्लिंग | : | रूक | रुका - | रूक | रुकां - |
| | | आंबो | आंब्या - | आंबे | आंब्यां - |
| | | कोंबु | कोंबा - | कोंबु | कोंबां - |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| स्त्रीलिंग : | वाट | वाटे - | वाटो | वाटां - |
| | वात | वाती - | वाती | वातीं - |
| | आवय | आवय - | आवयो | आवयां - |
| नपुंसकलिंग : | घर | घरां- | घरां | घरां- |
| | सुणें | सुण्या- | सुणीं | सुण्या- |
| | उदक | उद्का- | उद्कां | उद्कां- |

(हांगा '-' चिह्न सांगाता आसूल्ले सब्द सामान्य रूप जाव्रासात)

**उत्तर प्रत्ययः** नामाच्या सामान्य रुपाक लांव्वें प्रत्यय। हांगा उत्तर प्रत्यय पंदा गीट घाल्यात:

| | |
|---|---|
| आंव्या+न्-आंव्यान | आंव्या+क्-आंव्याक |
| आंव्या+0त्-आंव्यांत | आंव्या+चो-आंव्याचो |
| आंव्या+ची-आंव्याची | आंव्या+चें-आंव्याचें |
| आंव्या+चेर-आंव्याचेर | आंव्या+लो-आंव्यालो |

**सर्वनामः** नामाच्या बद्लाक वापर्चो सब्द

| **एकवचन** | | **बहुवचन** |
|---|---|---|
| हांव | .................... | आमी |
| तुं | .................... | तुमी |
| तो, हो, जो | .................... | त्यो, ह्यो, ज्यो |
| तें, हें, जें | .................... | तीं, हीं, जीं। |

**विशेषणः** नामांची विशेषता सूचित कर्चा सब्दाक विशेषण म्हण्तात। विशेषणां i) विकारी या ii) अविकारी आस्तात

i) **विकारी विशेषणांः** हीं नामाच्या लिंग आनी वचना प्रकार विकार घेतात/वद्लतात। तीन लिंग आनी दोन वचनांक लागोन हांचीं स रुपां आसात

**देखिकः** वरो भुर्गो, वरे भुर्गे, वरी चली, वर्यो चलियो वरें भुर्गें, वरीं भुर्गिं

तेचपरीं: नवो, पय्लो, काळो, गोरो, भिव्कुरो, दुव्ळो, तर्नो, मट्वो, सुको, व्हड्लो, पर्नो, खरो, रितो, पाच्वो, तांव्डो, निमाणो, खोटो (हांगा पु.ए.व. रुपां मात्र दिल्यांत)

ii) **अविकारी विशेषणांः** हीं नामाच्या लिंग आनी वचना प्रकार वद्लनांत / विकार घेनांत।

देखिकः सोवित भुर्गो, सोवित भुर्गे, सोवित चली, सोबित चलियो, सोबित फुल, सोवित फुलां

तेचपरीं: ग्रेस्त, ल्हान, पवित्र, हुन, नितळ, दाट, हुशार, व्हड, सुराती, थंड, गूंड, मोव, कोडु, गोड, विरांकुळ, बुद्वंत, विश्वासी, लांव, धग्राधिक इत्यादी।

**विशेषणांचे प्रकारः**

1) **गुणवाचकः** बरो, काळो, ल्हान, रुचिक, कोडु, गोड

2) **दर्शकः** तो, ती, तें, ते, त्यो, तीं, हो, ही, हें, हे, ह्यो, हीं

3) **परिमाण/संख्यावाचक:** दोन, दुस्रो, इल्लो, एकोडो, थोडो, आख्खो

4) **प्रश्नार्थक:** कोण, खंय्चो, कसो, किल्लो, कितें

5) **संबंधवाचक:** म्हजो, तुजो, ताचो, सुनिलाचो, तिचो, तांचो

6) **प्रतिबंधि:** केवल, मात्र, एकच, फकत

7) **सर्वनामिक:** म्हजो, तुजो, ताची, जाची, आप्णाची

**क्रियापद:**

**धातु:** क्रियापदाच्या मूळ रुपाक "धातु" म्हण्तात।

**देखिक:** उलय, खा, हास, शिक, खेळ, घे, कर, दी, सांग

**क्रियापद:** धातुक प्रत्यय लाव्न क्रियापद जाता

धातु + प्रत्यय - क्रियापद

खा+ता - खाता

घे+ता- घेता

**धातुंचे थोडे प्रकार:**

1) **सकर्मक धातु: ज्या धातुक आप्लो सगळो अर्थ उक्तांव्याक कर्माचो आधार जाय, त्या धातुक सकर्मक धातु म्हण्तात।**

| | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| अर्नि | उब्राय | कोम्ळाय | घाल | जेव | दर्प्पी | पाचार | फोड |
| अर्पि | उम्कळाय | कोवुळ | घाम | जोक | दी | पाज | वदिल |
| आकार | उसय | कोस | घुंव्डाय | जोड | दिवय | पाटय | वडय |
| आटय | उम्ळाय | खमाय | चडय | झडय | देंवय | पांगुर | वरय |
| आटाप | उम्नि | खर्चो | चरव | झरय | धर | पावय | वागाय |
| आडाय | उम्प | खल्कनाय | चलय | झाड | धाड | पियं | वांट |
| आड्डर | उंवळ | खद्रळाय | चाक | तपास | धांप | पिमुड | वावय |
| आरड | उलय | खवंटाय | चिड्डाय | तळ | धांव्डाय | पीळ | विरडाय |
| आपय | एक्वटाय | खिरय | चिंड्डि(चिर्डी) | तापय | धु | पींज | वुडय |
| आवुड | ओंड | खिर्लि | चित्राय | तास | नम्यार | पुर | वेंड |
| आय्क | ओंप | खिळाय | चिर्मुटाय | तुटय | नाकार | पुस | भर |
| आरगय | कडय | खुट | चीर | तूक | निक्ळाय | पंटय | भर्शी |
| आरुड | कवळ | खांर्पि | चींव | तेंक | निर्मी | पांकुर | भाज |
| उकड | कर्ष्ट | खांड | चुकय | तोंड्डाय | नियाळ | पांश | भासाय |
| उकल | कळय | गळय | चंप | तोंप | निवय | पांस | भाग्राय |
| उक्लाय | काड | गाव | चेंच | थाप | निवार | फर्माय | भिजय |
| उगड | कातर | गाळ | चोंर | थारय | नंटय | फटय | भुजय |
| उगय | काप | गांटाय | छाप | थांबय | नेंगय | फापुड | भुलय |

| | | |
|---|---|---|
| तुमि | तुमि | नीवु |
| कोण | कोण | यारु |
| खुयि | खंय्सर | एल्लि |
| किनले | कित्याक | याके |
| कायिते | कितें | एनु |

विशेषणः

| भालावलीकार | क्रिश्चियन | कन्नड |
|---|---|---|
| **कोंकणी** | **कोंकणी** | |
| मोट्टो | मोटो | दप्पगे |
| वर्गक, पत्तळ | वारीक,पातळ | तेळ्ळगे |
| धवे | धवो, गोरो | बेळ्ळगे |
| काळे | काळो | कप्पगे |
| उंचु, लांव | उवार | एत्तर |
| अक्कुड | मट्टो | गिड्डु |

| | | |
|---|---|---|
| टिंग् | लांव | उद्द |
| रुंद् | रूंद् | अगल |
| चोक्कोड | वर्गे | ओंळळंय |
| कुम्के | पाड | केट्ट |

क्रियापदः

| भालावलीकार | क्रिश्चियन | कन्नड |
|---|---|---|
| **कोंकणी** | **कोंकणी** | |
| चेल | चल, चाल | नडे |
| भैस् | वस् | कुळितुको |
| नींद् | निदे | निद्दमाडु |
| ऊट | ऊट | एळु |
| खा | खा | तिन्नु |
| गेव, उवेगेव | उवो गव | निंतुको |
| वाच | वाच् | ओदु |

## सब्दांचे अर्थ

| | | |
|---|---|---|
| टक्लें | - | टाक्टुलि, लान्शि |
| हेंचि | - | हांचि |
| होंत | - | जातेच्च |
| ओन | - | जाव्न |
| भाषवू | - | भासूयी |
| नायिस | - | ना |
| मट्ले तर | - | म्हळयार |
| अमल्तर्ग | - | अम्ल्यार्ग, जाल्यार्ग |
| करुतेले | - | कर्तेले |
| भेदवो | - | वेदूयी |
| एंतस् | - | येता |
| मोस्त | - | मस्त |
| गेवुन | - | घेव्न |
| गावुतस | - | मेळ्ता |
| हेंनिवु | - | हांणि |
| केलेमनि | - | केल्लें आसा |
| अपगंत | - | उप्रांत |
| टिल्यांनि | - | दिलां |
| धावल्ले | - | धांवल्ले |
| पेंटेसु | - | पेंट थाव्न |
| होंतसले | - | आमल्ले |
| अक्र | - | इक्रा |
| तेंचे | - | तांच्या |
| वरेलेसनि | - | वर्यिल्लें आसा |
| मांगुवोति | - | मांग्येत |
| धावोन एंतन | - | धांव्न येताना |
| हातेनि | - | हातांनि |
| वदियेस | - | देगेन |
| निधानूस् | - | मव्कास |
| होंति | - | आमल्लि |
| रोवन | - | गवुन |
| केलनि | - | केलें |
| वगुनु | - | मम्जोन |
| दिलेंतेनि | - | दिलें |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| मिथ्येनि | - | निमित्तान | जनांस् | - | जणांक |
| जागेंत | - | जाग्यांनि, प्रदेशांनि | अदिल | - | आदल्या |
| मास्ट्रहोन | - | शिक्षक जाव्न | आज्ञनुवु | - | आतांयी |
| तोडे | - | थोड्या | सांगते | - | सांगाता |
| जेन | - | जण | जागोवु | - | जागेयी |
| ह्याव | - | हें | अधिक | - | चड |
| आसुल्लेनि | - | आसुल्ल्यान | पायस | - | वोर्न |
| सिकोले | - | शिकोंक | करूतुद् | - | कर्तात |
| मगिरि | - | पाटिं | अन्यान्य | - | विविध् |
| जलस | - | जाल्या | कित्यास् म्हट्ले तर | - | कित्याक म्हळयार |
| तेसेच्च | - | तशेंच् | गोमांतकांसु | - | गोमंतकाथाव्न |
| आच्च | - | आतांच्या | गांवूतुमूद् | - | मेळते आमा |
| जलेसद् | - | जाल्या | म्हणोंचे | - | म्हण्चें |
| चल्तस | - | चल्ते आसा | दिसोण एंत | - | दिसोन येता |
| एवुनु | - | येव्न | करतासा | - | कर्ता |
| नत्तल्लमिथ्येन | - | नासूल्ल्यान | घीजल्ले | - | घेव्का जाल्लें |
| केळेनि | - | केलें | उरेल्ला | - | हेर |
| घेत्लेनि | - | घेत्लें | ह्यासुवो | - | हाकायी |
| करुळे | - | केल्ले | | | |



# नाटक कलेची चरित्रा - 3


लारेन्स् डि'सोजा, कमानि

(मुंदर्सिलां...)

**मुंबय्त मंग्ळुरी नाटक कला**

मुंबय्न कोंक्णी नाटक कलेचो मुल्या पातोर 1890 इस्वेंत 'इटलियन भुर्गो' म्हळ्ळया गोंय्कारच्या तियात्रा (नाटक)द्वारीं पड्ल्लो तरि मंग्ळूरगारनी 1939 इस्वे म्हणासर ह्या कलेक सुर्वात कर्चें धय्र घेत्लें ना। मंग्ळुर्गारांचीं व्यवस्थित संघटनां त्या काळार नातल्लेंच हाका एक मुख्य कारण जाव्येता। श्री गोविंद नारायण मड्गांव्कर आप्ल्या 'मुंबय्चें वर्णन' लेकनांत ब्रिटिष रज्वट्केचा सुर्वेचा 25 वर्सांचें थरावळ वर्णन दिता आनी तियात्रां विशीं बरय्ताना, तियात्र तर्न्या जनांगाक नासय्तात म्हणोन खंडन कर्ता। इंग्लेंडांत शिक्पी आनी जाणारि मनिस नाटक बरय्र सादर कर्तात तरि त्या नाटकांक लोकांचो फावोतो सहकार लाभाना। बोंवय्त चडावत अशिक्षि मनिस तियात्रां बरय्तात आनी तांतुं पोर्ज्डी उत्रां आनी अश्लील दृश्यां बर्पूर माफान आस्तात जाल्ल्यान तसल्या नाटकांक शिक्पी आनी ऊंच मट्टाचा लोकाचो पाटिंबो मेळाना अशें तो सुकार्मुन म्हण्टा। बोंवय्त नाटक कलेची सुर्वात ब्रिटिषानिंच केल्ली। ताणीं ग्रांट रोड 'प्ले हावस' (आतांचें 'पिला हाव्स') नांवाचें एक नाटक साल आसा केल्लें। हांगासर चड जाव्र इंग्लिष संगीत - नृत्या नाटक सादर जाताले। हांचें थाव्र प्रेरित जाल्ल्या पार्सी आनी मराटी लोकान नृत्या नाटक आनी गोंय्च्या लोकान 'जागोर' आनी उप्रांत 'तियात्रो' नांवार नाटकांची सुर्वात केली। ह्या नाटकांचें प्रेक्षक ब्रिटिष आनी पार्सी आस्ताले। ब्रिटिष आनी पार्श्यांचा घरा कामाक आस्लेल्या गोंय्कार आनी मंग्ळुरकारांक आप्ल्या धनियां सांगाता नाटक पळेंव्चो आव्काश लाब्तालो। इंग्लिष नाटकांचो बरेंच प्रभाव पार्सी आ□नी मराटी लोका वय्र पड्लो आनी ताणीं स्वताचे संगीत नाटक आसा केले। अशें जाल्ली ती सुर्वात बरिच सुफार गेली। इंग्लिष नृत्या नाटकांच्या दोन दृश्यां मधेगात दृश्य बदिल्लताना, लोकांक हासोंव्च्या इरद्यान फोकणारागनीं येंव्चें आसुल्लें। तशेंच पार्सी नाटक आनि गोंय्कारांचा तियात्रांचा दोन दृश्यां मधेगात पोकरणांरांनी प्रेक्षकांक हासंव्चें प्रयत्न केलें। अशें सुर्वात जाल्ली ती कला बेग्गिंच लोकासोगाळ जाली। एक काळ आसुल्लो मुंबय्त सन्वार आनी आय्तार म्हणोन हप्त्याक लगबग दोन - तीन कोंक्णी नाटक सादर जातेले। मज्गांव सेंट मेरिस सालांत आनी वेंकला रणी भागिचा वठारांत जांव्चा त्या नाटकांक प्रेक्षकांचो बर्पूर सहकार लाब्तोलो। तो काळ मुंबय्न कोंक्णी नाटक कलेचो भांग्राळो काळ!

मुंबय्न मंग्ळुरी कोंक्णी नाटक कलेचो उगम 1939 इस्वेंत जालो तें आमि जाणांव। उप्रांत एका बर्नी एक उंचले नाटक बरय्णार आनी कलाकार कोंक्णी रंगमंचार आय्ले आनी गेले। त्या पय्कि सुर्वेर आयिल्ल्या थोड्यांचीं नांवां घेंव्वीं तर, सर्वश्री चा.फ्रा.डि'कोस्टा, वि.जे.पि.सल्दान्हा (खडाप), जो.सा. आल्वारिस, ए.टि. लोबो आनी जी.एम.वी. रोड्रिगस, ह्या नाटक बरय्णारनीं

एका पाट्ल्यान एक, वर्यात्लें वरे नाटक रच्ले। त्या नाटकांक खेळोंव्क संघ-संस्थे राकोन म्हळळेवरी आस्तेले। त्या दिसानीं दोभितलाव आनी मज्गांव वटारानीं आसल्ल्या 500 वग्र गोंय्कार आनी मंग्ळुर्कारांच्या वस्ते कुडानीं दरवस्त लोक राव्तालो आनी हो लोक तसल्या नाटकांचो 'भांदुन दवर्लोलो' प्रेक्षक जांव्क पाव्लो।

मुंबंय्त 'कोंक्णी नाटकांचो वापुय' म्हणोन नांवाड्ल्या **श्री जी. एम. बी. रोड्रिगसान** 85 वग्र नाटक वरय्ले आनी स्वता व हेरां मारिफात तांकां रंगमंचार मादर केले। पुण ताचो स्वताचो छाप्खानो आसोनी, ताचो एकी नाटक ताणे जिवंत आस्ताना बुका रुपार छापुन आय्लो ना ती एक अती वेजारायेची गजाल। तरी ताचो एक नाटक 'भुंय्कांप' कोंकणी साहित्या प्रकाशना द्वारीं ताच्या मरणोत्तर छापुन आयिल्ली एक समाधानेची गजाल म्हण्येता। 'आवय्चो मोग', 'संसाराचे खेळ', 'भाय्लांचो संसार', 'वोंवय सर्ग', 'कुर्डो संसार', 'देव आसा', 'गर्व वर्ता सर्व', 'मत जिक्ता', 'घांट आमोरेचीा', 'म्हजी खुर्शी', 'देस्वाट', 'स्टेल्ला', 'फटय्लें', 'घुटा भाग्र लूट', 'घडित वर्ता वोडित्त', 'आज आमी जियेतांव', 'भागी मोर्न'. 'म्हजो अप्राध'. 'कमलीा लज' 'म्हजें काजार', 'पिसो राय', 'म्हजीं आवय-वापाय' 'कोण'. 'घुटाचें रेस्पेर', 'निर्भागी संसार', 'घात चिंतिनाका', 'घात्की', ताणे वरय्लेल्या भावनात्मक, रोमांचक, काळिज कडाव्पी दुखांत्य आनी सुखांत्य नाटकां पय्कीं थोडे। ताणे कित्ले नाटक वरव्र आकाशवाणिचेर सादर केल्यात ताचो ताचे कडे हिसोब नातल्लो। ताणे आप्लेच न्हय आस्तां हेरांचे नाटक दिग्दर्शिल्यात आनी सवार नव्या नाटकिस्तांच्यो कद्या प्रतियो तिद्धुन तांकां प्रोत्साहन दिलां। दुस्न्या महाझुजा वेळा पेपराचो अभाव आस्ताना, तळट्याच्यो तर्न्यो मुडेत्यो उकड्न, तांकां सुकव्र, पेपरा वद्लाक ताचे वग्र इस्तिहारां छापुन, आप्ल्या नाटकांचो प्रसार केल्लो कोंक्णी नाटक कलेंत एक दाक्लो जाव्र उर्ला। जी.एम.बी.सांगाता म्हाका लागिशलो संबंध आसल्लो। ताच्या उतर प्रायेर ताका दिसा उंज्वाडाक वाचुंक - बरंव्क कष्ट जाताले देकुन तो रातिचा वेळा टेबल ल्यांपाचा उज्वाडाक वरंव्वें प्रयत्न कर्तालो। तो देवाधिन जांव्चा थोड्याच महिन्यां आदिं तो 'पिकी खोली जड्ताना' नांवाचो नाटक वरव्र आसल्लो। उप्रांत आयिल्ल्या ताच्या मर्णा संगीं ताचें तें स्वपाण मातियेक पाव्लें। कोंक्णी भाशे खातिर आप्ली जिणी समर्पिल्लो कोण तरी आसा तर हांव धैरान सांग्तां तो जाव्रासा श्री जी.एम. बी. रोड्रिक्स!

'चाप्रा'-चा नांवान सक्डांक वळिकचो **श्री चार्ल्स् फ्रान्सिस डि'कोस्टा**, कोंक्णी नाटक वरय्णारां पय्कीं पय्ल्या स्थानार आसा। ताचे नाटक कोणाचिच पर्वा करिनास्ताना, धैरान वरयिल्ले विडंबनात्मक नाटक जाव्रासात। कोंक्णी समाजेक धोसुन आसल्ल्या सकाळिक विषयांचेर वरय्लेले ते नाटक, पाद्री-माद्री व सादो मनिस म्हण लेकिनास्ताना, तांचें सदांचें जीवन, परंपरा, संस्कृती वग्र तीक्ष्ण नद्रेन आनी चड कर्न तांच्या कपटी जिण्येक उगतडाक हाड्चे तसले जाव्रासात। देकुनच कोण्णा ताचे वग्र मराठी आनी गुजराथी नाटकांचो वरोच प्रभाव आसल्लो अशें आय्कोंक मेळता। तें कितेंय जांव, हेरानीं चिंतुंक ससेत धैर घेनातल्ल्या विषयांचेर ताणे वरय्लेले 'सोभित संसार', 'सुणें माजार हास्ता', 'विशेंतिचे भाव', 'तर्नें तर्नें मोर्नें', 'भांगार

सनिस', 'पय्णायाचो मित्र', 'भांक्लाक मात जीव', 'कुवाळयाचि वाल', 'हांडो उट्ला', 'दोंग', 'देव पळेय्त आसा' सबले नाटक, उण्यार उणे पात्रदारि आसोन, कुर्कुर्या आनी अलंकारिक उत्रांनि विण्लल्या सवादांनी भरोन, माहितिक आनी सदांचीं उत्रां मिस्ळोन आसुल्ले नाटक आनाच्या काळाक मांगल्ले जाव्नासात।

**श्री जो.सा. आल्वारिस** आप्ल्या काणियें आनी कादंबरी द्वारि सर्व कोंक्णी सोरिक परिचित जाव्नासा तरि ताणे बरयलेले 'चेड्वांचो हंकार पळे', 'एस्तेल, तेरांचि व्हकाल', 'चेडो एक, चेड्वा साडे-सात', 'जेजु नजरेन', 'लुल्ला डार्लिंग', 'आवाचो बेबल', 'मां लोरेसाचें माड़ितर्पण' नाटक लोकामोगाळ जाल्यात।

'खडाप' नांवार लोकामोगाळ जाल्ल्या **श्री वी.जे.पी. सल्डान्हान** सवार प्रसिद्ध नाटक बरयल्यात। 'भावानातल्लो गुलोब', 'खाल्लिमान', 'भागानातल्ली तान', 'उलय्तात - उलोंव्दि', 'अलेक्सांड्रिना', 'वारि अप्रूप', 'पाटीं हिंडाक', 'रगताची झड्ती', 'उरडासाचि काणिक', 'कल्सावांचो खेळ', 'ब्रदर जुनिफराचें लाय्तांव', 'कोर्डेल्चो प्राध साख्व', 'नवीं मोड्वोण्दारं', ताच्या नाटकां पय्कीं 'सर्दारांची सिनोल' एक उत्तिम नाटक म्हण नांवाड्ला। तशेंच ताचे नाटक 'तोभियास' आनी 'खर्ताविण काळिज' संगीत नाटकां रुपार प्रदर्शित जाल्यात।

तांचो समकालिन आन्येक्लो नाटकिस्त जाव्नासा श्री ए.टी.लोबो आप्ल्या विशिष्ट शैली खातिर नांवाड्ला। ताचा नाटकां पय्कीं 'दुस्मान दोतिचो', 'म्हजो भाव, ताचो दुवाव' 'आम्वीं भुर्गीं', 'आम्चें नशीब', 'ईष्ट', 'नोव्रो', 'घर कुटम' 'जुगार', 'जांवंय', 'आंक्वार आवय', 'जोंवळे नातु', 'दिलां तें गेलां', 'पहिल्वान पंडित', 'फेस्ताक पावल्लो सैरो', 'आशेची दिशा' थोडे जाव्नासात।

**श्री नवीन कुमार कुल्शेकर** (सिरिल डि'सोजा) हाणेंयी सवार नाटक बरयल्यात।

**श्री एडी पड्वाळ** त्या काळाचो आन्येक्लो नाटक बरय्णार जाव्नासा। ताणे 'मांय, म्हजो नोव्रो कोण?' 'मांय दी म्हजो वांटो' नाटक रच्ल्यात।

**श्री के.इ. स्टान्ली** एक बरो नट म्हण लोक जाणा तरि, ताचो 'चुकिदार' नाटक सर्वांक सेच्वाल्लो।

शिर्तादिचा **श्री पास्कल डि'मेल्लोन** 'निर्मिल्लें चुकाना' आनी 'विरंकुळ संसार' हे दोन नाटक बरयल्यात।

उप्रांत्ल्या सवार नाटकिस्तां पय्कीं **श्री फ्रान्सिस फेर्नांडिस कास्सियान** 'कित्याक नेरार कर्ताय?' 'हांव हें पाल्येना' 'पर्देशी' 'तुजो वेळ लार्गां पाव्ला' 'वोनी' 'तुं म्हाका विसर' 'देव तुका भोग्सुंदी' 'आदेस तुका' 'हांव पाटीं येतां' 'आवय-ती-आवय' 'आज म्हाका फाल्यां तुका' 'पाल्वाल्लो दिवो' 'हांवें किते केलां' 'तुं म्हाका आशेनाका' 'बापा तांकां भोग्शी' 'दाकय म्हजो अप्राद' 'लिपल्लो चार' 'वद्लावण' 'मर्याद' 'जाग्रुत गव' 'माल्दिसांव' 'पय्ली रात' 'खांद्या वय्लो खुरिस' 'घाल्की समाज' 'स्त्रीयं तुजीं किल्लीं रुपां' 'धैर्यादिक स्त्री' 'सांस्गिकाय' 'आशीर्वाद' 'दुबान केल्लो गुन्यांव' 'ताणे म्हाका विक्रित केलो' अशें तीस नाटक बरव्र आनी

खुद्द दिग्दर्शुन, महान हास्यांगार म्हणोन नांव जोड्लां।

**श्री माक्रिस कब्राल** आप्ल्या रंगमंच सजव्णे आनि दिग्दर्शना मारिफात लोकामोगाळ जाला। तशेंच 'सताचेर घात', 'देस्वाट', 'भर्वासो' ताणें बरयिल्ल्या नाटकां पय्कीं थोडे।

मुंवय भाग्र रावोन, मुंबय नाटक क्षेत्रांत वादाळ उटयिल्ल्या नाटकिस्तां पय्कीं **श्री मिक-म्याक्स** अव्वल स्तानार आसा। ताचे 'तांव्डो तारोक', 'सिकेगम ड्राय्वर' 'चिंत्लेन सव्दान कर्नेन' मुंबंय्त गाज्ल्यात।

दुस्रो जाय्रासा **श्री डोल्फी कास्सिया**। ताचे नाटक 'दी म्हाका भोग्साणे', 'मळबा वय्ली दिव्टी', 'दुवावाचो धुंवर', 'वाटे वय्लो कांटो' आनी हेर थोडे मुंवंय्त सवार कडे प्रदर्शित जाल्यात।

**श्री ल्यान्सी पिंटो नायकाचे** 'जागो जा शिला', 'आग्रिक सग्रिक', 'सागोरांत्लो पागोर', 'कर्नालाचो मेंदु',

**जोर्ज क्वाड्रसाचो** 'घडित' आनी

कोंकण कोगुळ **श्री विल्फी रेबिंबस** हाचो 'केडि वोना',

**श्री गिरिचे** 'काळकी रात' आनी 'मध्यानेर भंव्वी नाड',

श्री 'गव्वु' उर्वा म्हणोन नांव वेल्ल्या **श्री गाब्रियेल डि'सोजाचे** सवार नाटक मुंवयांत सादर जाल्यात।

इतर थोड्या नाटक वरय्णारांचिं नांवां घेंव्वीं तर -

**श्रीमती मोंती लस्रादो,**

**श्रीमती रोज कारवार स्टीट,**

आनी **श्री विल्फ्रेड कुमार तोट्टम,** (रग्ताचे थेंवे)

**श्री बाप्तिस मेंडोन्सा,** (वाम्स किरें), ज्यो डि'मोजा कार्कळ।

**श्री लोरेन्स कस्तेलिनोन** लिख्लेल्या नाटकां पय्किं 'भुमिवैकुंट' (मुंवय्चा ख्यात षण्मुखानंद होलांत प्रदर्शित जाल्लो।), 'काजार' आनी 'पर्तोव्णी' गाज्लेले नाटक। तो एक उंच्ल्या मट्टाचो दिग्दर्शक मात्र न्हय आस्तां एक वरो हास्य नट जाय्रासा।

**श्री शाबी डि'सोजा** आनी दे। **रिचर्ड क्रास्टा** हांचेय नाटक मुंवंय्त सादर जाल्यात।

कवी **श्री जे.बी. मोरायासान** लिख्ल्ले - 'काळिज कुर्डे न्हय', 'विधिचो खेळ' आनी 'ही वाट येम्कोंडाचि' तसले नाटक वरय्ल्या।

**श्री हेन्री डि'सिल्वा,** सुरत्कल आप्ल्या 'वाटे वय्लो कांटो', 'काजराचें उतर', 'तुं जियेंव्क सकानांय', 'आवय्चीं दुखां', 'निमाणी झड्ती', 'मोगाचि देस्वाट', 'काजरा उप्रांत' आनी 'कोण जिक्ता?' नाटकां द्वारीं सर्वांक परिचित जांव्क पाव्ला।

**श्री सन्नी एं. डि'सोजान** वरय्लेल्या नाटकां पय्कीं 'रग्ताचीं जालीं दुखां', 'मागोन घेत्ल्लो खुरिस', 'अंतु खुरिस आय्लो', 'हासानात्ल्लो तो पिसो', 'शिम्टिनात्ल्लो कोलो' आनी 'घट्ट धर सोडिनाका' थोडे जाय्रासात।

हांचांच मागाती **श्री पिंताम, देरेबैल** हाणें 'म्हाका कित्याक दिसाना?' आनी 'हांव र्मनिम जालों।' अशें दोन नाटक बरयल्यात।

**नवीन कुलशेकरान** 'मांगाचो पिसो' आनी शान वोंदेल हाणें 'मूग्मूर्ली... म्हातारी पुर्पुली!', 'मांमिया काकुन कर!' आनी उतर थोडे नाटक रचल्यात। अशें आनिकी सवार नाटक बरय्णार मुंबयांत आसूल्ले आनी आसात।

थोड्या मंगळुरी नाटक दिग्दर्शकांचीं नांवां घेंव्वीं तर श्री जी.एम.वी. रोड्रिक्स, चा.प्रा. डे'कोस्ता, वी.जे.पी. सल्डान्हा, नवीन कुमार कुल्शेकर, के.इ. स्ट्यान्ली, चार्ली मिस्कित, जोम डि'सोजा, रिचर्ड वास, कास्मिया, वि.आर. फेर्नांडिस (बरय्पार आनी नट), हेरी बोय (बरय्णार नट, संगीतकार आनी गाव्पि), स्ट्यानी तिया पिंटो, वाल्तिम मेंडोन्सा (आप्ल्या दोड्या अर्थांच्या संवादा खातिर नांव वेल्लो!), फ्रेड्डि वार्बोजा, साव्रिम कव्राल, फ्रान्सिस फेर्नांडिस कास्मिया, श्रीमती रोज कावार स्ट्रीट, लोरेन्स कर्स्तेलिनो, सन्नी ए.डि'सोजा, पिंताम देरेबैल, लोरेन्स डि'सोजा कमानी, सन्नु मोनिस वाळिये, जोय पालड्का आनी हेर।

कोंकणी नाटक सादर केल्ल्या व कर्न आस्च्या थोड्या मंगळुरी संघ-संस्थ्यांचीं नांवां घेंव्विं तर पयल्या सुवातेर येता वाव्राडी कोंकणी ड्राम्याटिक एसोसियेशन बोंबय, कोंकणी ड्राम्याटिक ओर्गानिजेशन बोंबय, लूड्स युनियन, सेंग्यिल युनियन बोंबय, व्याम (W.A.M.) बोंबय, दि मंगळूरियन वेल्फेर एसोसियेशन, विद्याविहार, दि यंग केनराय्ट्स एसोसियेशन, कोंकणी थियेटर्स, कोंकण काळजां, दि महाराष्ट्र कोंकणी एसोसियेशन आनी हेर।

मुंबय मंगळुरी नाटकानीं नांवाड्ल्ल्या थोड्या नाटकिस्तांचीं नांवां घेंव्विं तर ए.एफ. डेसा, एच.ए.ए.रोड्रिक्स, एस.पि.डेसा, पि.डि'कोस्टा, डि.रोडिक्स, जे.एल. पिंटो, ए.डि'मेल्लो, आर.एम.सल्डान्हा, जे.ए. सिक्वेरा, डि.सिक्वेरा (चलियांचो पात्र खेळपी), वोव्ळें हेन्री डि'सोजा (बरे नट आनी गायक), जी.एम.वी. रोड्रिगक्स, जे.पि. डि'सिल्वा, आर.जि.वास, एफ. नोरोन्हा, लियो डि'सोजा मज्यांव, एम. मचादो, एम. एस. डि'कोस्टा, जे.ए. रोड्रिक्स, ए.मथायस, ए.जि.एम.रेगो, एच.डि'सोजा (हेरिबोय), जेम्स पिरेरा, एम्मी क्रास्टा, मालु मोरास, हेन्रि मोरास, अर्थर सिक्वेरा, लुविस पिंटो, सेट्टी कोरेया, फ्रेड्डी आंद्रादे, फ्रेड्डी मिस्कित, टेरा क्रास्टा, डेनिस डि'सोजा, पीटर लोबो, शावी डि'सोजा, फियुस रेवेल्लो, टि.पिंटो, एल.वि.डि'सोजा, हेन्री रोड्रिक्स, पीटर डेसा, जेरोम रोड्रिक्स, विक्टर फेर्नांडिस, डोमिनिक रोड्रिक्स, लियो आल्वारिस, फेलिक्स रेवेल्लो, आल्बर्ट फेर्नांडिस, फ्रेड्रिक डि'सिल्वा, लियो सिक्वेरा, टि.डि'सोजा, जि.डि'सोजा, वि.जे.एस. क्रास्टा, वाबुटि आर. ब्रिट्टो, श्रीमती आर. सल्डान्हा, श्रीमति ए. क्रास्टा, श्री ए.एफ. रेवेल्लो, मिस्स ऐ.लोबो, मिस्स एफ. पिंटो, टोनी कुल्शेकर, जूली पायस, एरिन पिंटो, मेरि पायस, श्रीमती एलिजा डि'सोजा, टि.वि. पेरिस, फ्रान्सिस फेर्नांडिस कास्मिया, श्रीमती लिज लस्रादो, विन्सि डायस, रुडोल्फ फेर्नांडिस, स्ट्यानी तिया पिंटो, वाल्तिस मेंडोन्सा, लोरेन्स कर्स्तेलिनो, विल्लियम मचाडो, एड्विन बांज, मोली लोबो, लोला फेर्नांडिस, पिंताम देरेबैल, सिरिल डि'सोजा, कु। मीना रेगो, स्ट्यानी सल्डान्हा, वि.ए. सिक्वेरा, डेनिस एफ. लोबो, डोल्फी

डि'लिमा, ग्लेडिस रेगो, लोरेन्स डि'मोजा कमानी, फ्लोरि क्रास्टो, नवीन कुल्शेकर, मेलिन पाय्स, जोर्ज क्वाड्रस, रोवर्ट क्वाड्रस, मोलि डि'मोजा, प्लोग डि'सोजा, जोय पालाड्का, ग्रेगरि मिक्वेग निड्डोडी, रुडोल्फ रेवेल्लो, रिचर्ड क्रास्टा लोरेट्टो, पीटर पाय्स, डेझि डायास, लियो फेर्नांडिस, मन्नु मोनिम, विल्सन पिंटो, फिलोमिना मिक्वेरा, शांति वार्वोजा, मेटिल्डा मिरांदा, तोमस डि'सोजा, आशोक डायस, प्रिया कव्राल, फ्रान्सिस ओलिवेरा आनि सवार हेर।

कोंक्णी नाटकांचो भांग्राळो काळ पाटीं येंव्चे वरीं ना तें जीर्ण जाय्ना तसलें कोडु सत। 1939 इस्वेंत जी.एम.बी. रोड्रिक्सान 'खुरिस घुर्तर जय्ताचो' नाटक आसा कर्न पय्ले पाव्टीं मुंबंय्त मंग्ळुरी कोंक्णी नाटकांचीं वुन्याद घाल्ल्ये उप्रांत एका वर्नी एक वर्ते मवार नाटक वरय्णार मुंबय पाव्ले। ताणीं मंग्ळुरी कोंकणी नाटक कलेचो वाव्टो इत्ल्या उंचायेक पावय्लो की तो आज कोंक्णी मोगिंच्या नद्रे भाग्र जांव्क पाव्ला! हाचें कारण मोधुन काड्चें ह्या लेखनाचो उद्देश विल्कुल न्हय। चुकिन तरी त्या दिशेंत एक दीष्ट घुंव्वांव्वें अनिवार्य जाता। आज हांव हे चार सव्द लिख्ताना म्हज्या मतिक व्हर्ती वेजारय भोंग्ता। कित्याक हांवयी ह्या कलेक 1962 थाव्न वोव लाग्शिल्यान जोडुन आसां। आय्ची परिम्थिती देक्ताना अशें कित्याक घड्लें म्हळें मवाल मतिंत उव्जाता। हत्याक दोन-तीन आस्ल्ले, महिन्याक तीन-चार, उप्रांत स-महिन्यांक एक-दोन, वर्साक एक-दोन जाव्न क्रमेण गेलेत्या दोन वर्सां थाव्न मुंबंय्त नाटक कला आळवोन वेच्या हंताक पाव्ल्या तर हाका कारण कितें? हें हर्येका कोंक्णी नाटक मोगिन जाप सोधुंक प्रयत्न करुंक फावो जाल्लें सवाल। ह्या विर्शीं इल्लेशें विश्लेषण जर केलें तर परिस्थिती बिग्डोंक एक मुख्य कारण जाव्नासा मुंबंय्त नवे नाटक वरय्णार ना जाल्लें जाव्नासा। आद्ले थोडे नाटकिस्त देवाधिन जाल्यात आनि उरल्ले थोडे आप्ल्या पोटाच्या ग्रासा खातिर वावुर्ताना तांकां वेळाचो अभाव आसा। आनी आतांच्या नव्या पिळगेक अंतर्जाळ, टि.वि. चेनेलां आनी DVD-च्या रुपार सुलभायेन मेळच्या मनोरंजना मुकार कोंक्णी नाटक सोड्यां, कोंक्णी भाशेविर्शीं चिंतुंक समेत वेळ ना म्हळयार चूक जाय्त? असल्या सन्निवेशांत कोण तरी एक्लो धय्र घेव्न नाटक उभें कर्चें साहस करित तर ताका प्रेक्षकांचो सहकार फावोत्या मापान लावाना। 'तांती पय्लें व कोंबी पय्लें' म्हळें सवाल हांगासर उवें जाता। तुमी वरे नाटक सादर करा, प्रेक्षक आपापिंच येतेले म्हणतात थोडे। आनी हेर थोडे आमी घाल्ले पय्शे आनी आम्ची म्हिनत फुंक्याक वेची तर आमी कित्या मुकार सरजाय म्हण प्रती सवाल उडय्तात। मुंबंय्त 20-25 वर्सां आदीं बरय्लेले नाटक आसात शिवाय नव्यान वरयिल्ले नाटक वोव उणें। तशें म्हणोन तालेंतवंत कलाकारांचो जांव, दिग्दर्शकांचो अभाव आसा म्हणोन न्हय। तसल्यांक सोधुन काड्न, तांकां देवान दिल्लीं देणीं लोका मुकार प्रदर्शित करुंक मुकार सर्च्या मानेस्तांचीं आनी संघ-संस्थ्यांची गर्ज आसा। कोंकणी भाषा मंडळ महाराष्ट्रान थोड्या तेंपा आदीं कोंक्णि नाटकांक प्रोत्साह दिंव्चे खातिर देवाधिन जी.एम. बी. रोड्रिक्स हाच्या नांवार एक पुरस्कार आसा केल्लो। पुण त्या पुरस्काराक एदोळ म्हणासर फावोते नाटक लाभोंव्क नांत ती एक वेजारयेची गजाल। एक-दोन नाटक आयिल्ले तरी त्या स्पर्ध्याच्या रूलि-रेग्रां भितर नातुल्ल्यान तांकां भुजावणेचीं

इनामां दींव्क पड्टें!

आमी इतर भाशेच्या नाटकां कुशिन एक दीष्ट घालीं तर; तांचे नाटक आतांयी भरून वच्चात। मराठी नाटकाच्यो टिकेटी आतांय क्याकांत विकुन व्हेतात म्हळयार तुमी पात्येश्यात? हाका एक कारण तांचें वृत्तिपर पंगड आसात आनी ते सकालिक, हास्य प्रदान आनी समाजिक नाटक सादर करतात। तांचीं नाटक सालां भरोन वोस्तातात! तांच्या नाटकानीं फकत्त दिग्दर्शक मात्र न्हय आस्तां हयेका विभागाक एक्लो विशेष माहेत आसल्लो मनिस आस्ता। म्हणजे वीज दिव्यांचो तज्ञ, पार्श्व-संगीताक एक्लो आनी सेट सांबाळुंक आन्येक्लो, तर सौंड सांबाळुंक आनी कोण। अशें तीं जवाब्दारी वांटुन दिल्ली आस्ता। ह्या सर्व संगितिंक हेळ्ल्ले मनिस आस्ताना बरें नाटक लिख्चे नाटकिस्त सवार आसात। थंय्सर एक स्पर्धो उभो जाता आनी नाटकाचें सट्ट सुद्रात व्हेता। पुण हे सर्व संगती आम्च्या मुंबय्च्या चडावत कोंक्णी नाटकानीं नांत म्हण्येता।

कलाकारांच्या थोड्या समस्स्यां विशीं सांगचें तर आदीं मुंबय शहर कोलावा थाव्न एका कुशिन माहिम, आन्येका कुशिन सायन म्हणासर आसल्लें। नाटकाची तर्वेती वाय्कालां व लागसार जातेली। लोकांक आप्ल्या कामाच्या सुवाते थाव्न तर्वेती दिव्चा जाग्याक पावोंक सलीस जातेलें। आतां माहिम आसल्लें वसय आनी सायन आल्लें डोंबिवली जालां। तें पावानातुल्याक, मुंबय्त रेल गाडियांनी व बस्सांनी प्रवास कर्चें म्हळयार एक व्हड साहस जालां। (तें भोगुल्ल्यांक मात्र कळित!) देकुन वेळार तर्वेतिच्या जाग्याक पावोंक कष्ट जातात। तर्वेती उप्रांत घरा पाव्ताना दीस वड्ल्ला। आज-काल्चा मार्गाये धर्मान रिक्षा व ट्याक्सेर वेचें चिंतुंक सलिस न्हय। कलाकारांक तर्वेतिक येंव्क - वचोंक गर्जे भितर्लें संभावन दिंव्क जाय। आतां दीनांत म्हणान न्हय। थोडे संघ-संस्थे आप्ल्या तांकी भितर्ली मजत दीव्न आसात तें विस्रोंक जाय्ना। तरी कलाकारानी खर्च केल्लो दुडु पुणी तांकां पाटीं मेळचेवरीं जांव्क जाय। नाटक बरय्णारांक फावोतें संभावन मेळोंव्क जाय। हेरां भाशेनीं ती वृत्ती जाव्न घेव्न दीस काड्चे सवार जण आसात। पुण कोंक्णेंत पोटाच्या ग्रासा खातिर सगळो दीस काम केल्यारी पावाना आनी असल्या संदर्भार कोंकणी नाटक बरोंव्क किल्ले जण सुकार येतित? हेरां भाशेंच्या वृत्तिपर पंगडांवरीं कोंकणेंत मुंबय्त एक पुणी वृत्तिपर पंगड उदेलो तर कोंक्णी नाटक कला सुखार वेच्यांत म्हाका दुबाव ना। मुंबय्त आन्येक समस्स्या म्हळयार आम्कां जाय त्या दिसा व वेळा होलां मेळाना जांव्चीं। त्या देकुन आम्कां आम्चे नाटक सकाळीं व दोन्पारां दवर्चाक पड्तात। तो वेळ लोकाक अड्चणेचो आस्ता। सांजेचो वेळ मराठी, गुजारती व हिंदी नाटककारांनी वर्सां पय्लेंच असानत केल्लो आस्ता। आनी एक संगत म्हळयार करोडानीं दुडु खर्चुन हिंदी फिल्मां व इतर सिरियलां तयार जातात। तांचें सांगाता आमी शेंबोरानी व हजारांनी खर्च कर्न आसा केल्ल्या कोंकणी नाटकांक तुलन कर्चें ससा? आनिकी वेळ आसा। मुंबय्त नवे नवे नाटक उदेंव्चित आनी संगळरी कोंकणि नाटक कला पर्तुन एक पावटीं हिमालयाच्या शिखराक पावोंव्ची हेंच म्हजें सागणें।

(वि.सू.: हें लेखन फकत्त मुंबय्तुल्या कोंकणी कथोलिक मन्शांच्या नाटक कलेच्या वाव्राक

सीमित जाव्रासा)

मुंवय तसल्या पाट भुंय्चेर गेलेल्या देड्शें वर्सां आदीं आम्कां कोंकणिच्या नाटक कलेचो मय्ला फातोर झळकाता। गोंय्कार कलाभिमानिंनी नाटककलेच्या रुपान गोंय्चें संगीत भर्शिल्ल्या नाटकां द्वारीं भास आनी कला जिवी दवरुंक केल्लें साधन पय्लो मय्ला फातर। 1820 इस्वे प्रास पय्लें मुंबंय्त गोंय्कारांचे "जागोर" आनी "खेळ" असले नाटक प्रकार चाल्तेर आसूल्ले। असल्या प्रकारांनी संभाषण आनी सांगाता चल्तालीं।

"खेळ" एका थराचो नाटक जाल्यारी, प्रदर्शित करुंक रंगमांच्याची गरज नातूल्ली। मार्गा देगेरी खेळोन दाकय्ताले। क्रमेण ह्या प्रकारांचो पांव्डो देंवोन आय्लो। जागोर आनी खेळ लोका मोगाळ जाव्न उर्लेनांत।

एकुण्विसाव्या शेक्ड्याच्या निमाण्या धाक्ड्यांत गोंय्कारांच्या तियात्र संगीत नाटक प्रकारान रंगमंचार प्रवेश केलो। साहित्याच्या दृश्टेन तियात्राची सुर्वात जाल्ली 19व्या शेक्ड्याच्या आरंवार। ह्या काळार गोंय्कांरांच्या संगीत नाटक प्रकारान रंग मंचार प्रवेश केल्लो। साहित्याच्या दृश्टेन तियात्रांचें मट्ट तृप्तेचें नातूल्लें। तवळच्या नाटकांनी कथा रचनेक महत्व नातूल्लो। लोकाक हासंव्चो इरादो प्रमुक जाव्नासूल्लो आनी पदांक सांगात दिंव्क तियात्र आस्तालो।

(येंव्च्या अंक्यांत मुंवय्च्या रंगमंचार गोंय्कारांच्या तियात्रांचो उदेव। - ग्लेडिस रेगो)



# कोंक्णे आमी एक समान

हिंदू क्रिस्तांव मुसुल्मान
कोंक्णे आमी एक समान
तर सांगा कित्याक हें रुदान
भांव्डां हुजिर ना म्हण मान।

शेक्ड्यां आव्दी मर्लि कोंक्णि भाव्डी वांच्ली
भाशेक आम्चे मजव्र नेटव्र आदिल पिळगी पिक्ली
मन्शां हुमिण्यां पदांनी कोंक्णेक मुंर्गागय्ली
तर्यी पुरस्कार म्हण कोणेंच दिलिना थय्लि।

नाटक लिख्ले मांड्येर हाड्ले म्हिनत काडुन थक्ले
प्रेक्षकाच्या कुकायांनी निगमांत तांकां चेप्ले
जाण्तें मानाय कार्णां मांगोन कोंक्णेक फुलय्ताले
ल्हानां व्हडांक खुशाल करुन धादोस नाचय्ताले।

तर्यी बाबा आय्क तुं वाये तांल्लो कोण एक्लो
मान सन्मानाक दुड्डू वहुमानाक बिल्कुल आशेव्र नास्लो
तर कसो पुरस्कारचो आंय्डो आज येव्र लाग्लो
दंध्यागारां पंगडांचो हुस्को पत्रार गाज्लो।

गोवा कोंक्णि अकाडेमी सोभ्ता अभिमानान
कर्नाटकांनी तस्लिच्च अकाडेमी दर्वागन
लोकशाहिच्या काय्द्याखाल येव्जिल्या सर्कारान
डिल्लि-पणजे-बेंग्ळुरांत आतां करुंक लाग्ल्यात मान।

संघ मंडळ अकाडेमिंत भर्ल्यात सवार फुडारी
हांचे भाग्र उर्लेल्यांचो जमो पेट्ला गगारी
तांल्ले वांग्डी खेळळेले म्हण भितर्ले भितर जुगारी
घळाय नास्तां घाल्लेले कांय कोंक्णि भाशेक वाटेरी

वेवेग्ळयो लिपियो सग्ळयो कोंक्णेक आम्चे रंगय्तात
आप्ल्या पेल्याक वळकोंच्याक सग्ळयांक त्यो उप्कार्तात
अर्गटान पय्स सर्लेल्यांक पाटीं काळजांत मोडतात
हट्टाक पडोन अभ्यास केल्ल्यांक जय्ताक पाय्तात।

नागरी-कानडी-रोमी-मलयाळी पर्की न्हय त्यो एकामेका
उदार मनान शिक्लेल्यांक गोंदळाय्तात म्हणानाका
कोंक्णी लोकाचे वांटे घालुंक आम्चीं भास वापर्नाका
कोंक्णेन तुका दिव्चें फुडें कितें तिका दिलांय सांग म्हाका



दे। स्वामि सुप्रिया जे.स.

कोंकणी, कन्नड, इंग्लिशान तिन्शीं पुस्तकां बरयिल्लो स्वामी सुप्रिया "कोंकणी सब्दा ब्रह्म" म्हणून ख्यात। फा। सिप्रियन कोमस् आल्वुकेर्क जे.स.च्या उडासान कर्नाटकाच्या शाळांनी कोंकणी शिकोंक सर्कारान आव्कास दिल्ल्या सुवाळयार ("अस्तम्तेर" कविता पुस्तकाचेर 1997 वर्सा प्रगट्लेली कविता)

मांडा भावाभण्णिंनो दुड्डा फाय्द्याची आव्ळाय
नांव नास्त्ये लाभ नाम्च्ये सेवेची चोव्या ती सोभाय
सेवा म्हण्तच्च त्यागाभरित म्हिनत सदां मेळय
आम्चे समाजेंत कोंक्णी भाशेचो शाश्वित दिवो जळय।

# कोंकणिंत नवीं पुस्तकां

- ग्लेडिस रेगो

| | | |
|---|---|---|
| 1. | कुट्रेचें कूझ्न - रांदाप | - केथीगलि डि'मेल्लो |
| 2. | कवितांची पोळी | - वी.डी'सिल्वा कांजूरमार्ग |
| 3. | कार्यें सोभाण | - जोर्ज केस्तेलिनो नक्रे |
| 4. | तुं मोगाळ फुला | - रोशन कपुचिन |
| 5. | काळिज खंच्ये कुशिन | - ब्र। जुनिफर |
| 6. | संगीत देव स्तुतिची चाकर्न | - फा। रोनी सेरावो |
| 7. | भांगाराची कुराड | - जे.एफ. अत्तावर |
| 8. | सल्वणेची जीक | - श्रीमती जूडी पिंटो |
| 9. | काल आनी फाल्यां मदूलें आज | - जियो आग्रार |
| 10. | विंन्नार रुचिक रांद्पां | - साळक प्रकाशन जे.बी. |
| 11. | बैबल क्विज | - प्रकाश मोंतेरो |
| 12. | पोंपय साय्विणिचें नोवेन | - दे। फा। लुविस जुवांव सोज |
| 13. | युव वात्राच्या वाटेर | - माच्चा मिलार |
| 14. | सुगंधिलें दूख- मट्व्यो कथा | - श्री भक्ता आर.काञांगाड |
| 15. | इंग्लिश - कोंकणी शब्धांवळ | - स्टीवन क्वाड्रस पेर्मुदे |
| 16. | मेस्त्रिपरीं जांव्चाक - धार्मिक | - फा। बोनिफास पिंटो |
| 17. | तत्व सागर - कविता | - श्रीमती शुभा एस. |
| 18. | क्विट इंडिया - काणियो | - गोपालकृश्णा श्यानभोग |
| 19. | सोड्डोणेची काल्स - नियाळ | - फा। बोनिफास पिंटो |
| 20. | पर्ने कोंकणी साहित्य कृतियो | - सुरकुंद आण्णाजी राव |
| 21. | हसन्मुखी जुजारी - भाशांतर | - श्रीमती एस. जयश्री शेणोय |
| 22. | रेंवेर फुल्लेलीं साळकां | - विविध लेखक |
| 23. | तीं दुखां उलय्ताना | - अर्थर पिरेरा ओम्जुर |
| 24. | धुळिंल्लीं फुलां | - फ्रान्सिस् फेर्नांडिस् कास्सिया |
| 25. | 20व्या शेक्ड्याचो कोंक्णी कविता | - सं: माल्विन् लुद्रिक् |
| 26. | तीं दुखां उलय्ताना | - आर्थर् पिरेरा ओम्जुर |
| 27. | अमर दिर्वे | - सां लुविस् कोलेज् कोंक्णी संस्थो रुप्योत्सव अंको |

# मय्ला फातर

नवंबर - 2006

नवंबर 12 : महाराश्ट्र कोंकणी एसोसियेशन मुंबय हाणी चलंव्वो वर्सावार कोंकणी तालेंत स्पर्दो: दें। एसियार मुंबय हाच्या उडासाक दादर आंतोनियो द'सिल्वा सभा सालांत चलव्न वेलो।

नवंबर 18 : गोंय्च्या पण्जे शहरांत: मंग्ळुर्च्या कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिस्टानान विश्वकोंकणी साहित्य एकेडेमिची उग्तावण केली।

नवंबर 19 : बेंगळुर कोंकणी कथोलिक संघ कोरमंगळ हाणीं "कोंकण खेळा फेस्त", सैंट जोन मय्दानाचेर उद्घाटन कर्न चलव्न वेलें। दोन हजार मंग्ळुर्गार ह्या कारयाक हाजर आसल्ले।

नवंबर 19 : महाराश्ट्र कोंकणी एसोसियेशन हाणीं दादर पश्चिम डो. आंतोनियो डि'सिल्वा इस्कोल सभा सालांत कोंकणी प्रतिभा स्पर्धे चलव्न वेले।

नवंबर 25 : बेंड्रा (पू) कम्युनिटी सेंटर सैंट सोजेफ चर्च बोंवय सभा सालांत - जोय म्यूसिक ग्रूप हांचीं दोन जोड कारयीं मांडुन हाड्लीं। कोंकणी भक्तिक गितांची कोव्ळी साहसा जांव तुजीं" उग्तावण आनी कोंकणी पिंतुर "हांव आसां" हाचें मुहूर्त।

नवंबर 26 : दियेसेजिच्या एसिवैएम संघटनान आप्ल्या वज्रोत्सवाच्या योजनाक आधार जाव्न मंग्ळुर सां लुविस कोलेजिच्या उग्त्या मय्दानार गोंय्ची गाय्निण पिचो "लोर्ना शो" साधर केलो।

नवंबर 29 : कार्कोळ क्रिस्तरायाच्या फिर्गजेंत वार्शिक फेस्ता संदर्भार फिर्गज पत्र "तारेक"चें उग्तावण चल्लें।

दशंबर 2006

दशंबर 1 : "कलांगण", "मांड सोभाण", "म्हज्याळी मांची" हांच्या तेव्ळया संभ्रमाक, कलांगणाच्या सभांगणांत टाय्ज प्रदर्शन आनी युव महोत्सवाची उग्तावण जाली। भुर्ग्याक आनी युवजणांक ह्या संभ्रमाच्या तीन दिसांनी चल्ल्या स्पर्धांक बुन्याद घाली।

दशंबर 1 : "कोंकणी युव आवाज" संघटनाचो पय्लो वार्शिकोत्सव कलांगणांत चल्लो।

दशंबर 2 : दिवो साहित्य पुरस्कार - 2006 प्रदान कार्यें दादर आंतोनियो द'सिल्वा सभा सालांत, फ्रान्सिस फेर्नांडिस कास्सिया साद्वांत चल्लें। ह्या संदर्बार साल्गाडो साहिती पि.डि. सोजा निधी पुरस्कारयी विजेतांक प्रदान केलो।

दशंबर 3 : शक्तिनगरच्या कलांगणांत साटावी सहिन्याळी मांचियेर युव महोत्सव स्पर्धांनी जिकल्ल्या पंगडांचीं सांस्कृतिक प्रदर्शनां जालीं। स्पर्ध्यांनी जिकल्ल्यांक वहुमानां

ह्या संदर्भार दिलीं। (आंगण जाव्न कोंकणी कलेक वागय्लेल्या कलांगणाक वर्सां - 5), (कोंकणिक उंचायेक पावय्लेल्या मांड सोभाणाक वर्सां - 20), (शेंवोरों कलाकारांक फुलय्लेल्या म्हय्न्याळे मांचियेक वर्सां - 60), हो तेव्ळो संभ्रम हांगासर दभाजान चल्लो।

**दशंबर 3** : गोरेगांव (प) रुजाय मायेच्या फिर्गज मय्दानार, कोंकणी सेवा मंडळ हांचो दशमानोत्सव चल्लो।

**दशंबर 12** : कार्मेल गुड्याच्या कार्मेलितांनी - हास्त्या-उड्त्या मनांनी कोंकणी नाच, पदां, पोकणां सामाजिक हास्य नाटक "तक्लि खातात" प्रदर्सुन तांचो "कार्मेल डे" आचरण केलो।

**दशंबर 14** : "दुबाय आल नासर लीशरल्यांड ऐस रिंग" हांगासर बज्यां संगीत पंग्डाचो तर्वेतदार आल्विन नोरोन्हा हाच्या संगीत पदांचें प्रदर्शन चल्लें।

**दशंबर 16** : कोंकणी उत्पन्नांक विक्र्य।थळ दिंव्च्या उद्देशान: कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडेमिन सुर्वातिल्लें कोंकणी बजार कार्मेल गुड्यार माजी संसद विनय कुमार सोरकेन उग्तायलें।

**दशंबर 17** : सेवक पत्रान मांडुन हाड्ल्ली 63वि मेल्विन पेरिस नाय्ट डोन बोस्को होलांत सादर जाली।

**दशंबर 17** : मुंबय दहिसर पश्चिमाच्या प्रमिळा नगर सदनांत - नाटककार हेन्रि डि'सिल्वा सुरत्कल हाच्या लिख्णेचो "कोण जिक्ता" कोंकणी हास्य नाटकाचें मुहूर्त कार्यें चल्लें।

**दशंबर 20** : नाम्नेचो नाटककार, नट, निर्देशक, रंगमंच विन्यासक आनी नाटक वरय्णार श्री लुवि नेट्टो जेप्पु देवादीन जालो।

**जनेर 2007**

**जनेर 2** : कोंकणी भाशा मंडळ कर्नाटकाचो स्थापन दीस्: मंग्ळुर्च्या नळंद हायस्कूल सभा सालांत आचरण केलो।

**जनेर 5** : कोंकणी कुटम वाह्रेन हाणी - वाह्रेनच्या कर्नाटक सोशियल क्लब्स सभा सालांत 6वो कोंकणी भाशण आनी गायन स्पर्धो चलव्न वेलो।

**जनेर 6-7** : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडमी आनी मांड सोबाण हांच्या सहयोगान चलल्या कविता फेस्तांत कविता कार्यागार चल्लो। परिसंवाद आनी कविता सोबाण साधर जालें।

**जनेर 7** : कोंकणी त्रिवेणी कला संगम हाणीं मुंबय्च्या आप्ल्या भांगारोत्सवा संदर्बिं वर्ली नेहरू सेंटर अडिटोरियम सालांत कोंकणि उत्सव मांडुन हाड्लो।

**जनेर 7** : मकाळे शक्तिनगर हांगासर कलांगणांत 61वी महिन्याळी मांची कार्यें जाव्न "कविता संगीत जुगलबंधि शेवियो रोस" साधर जाली।

जनेर : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडेमी आनी श्री महावीर कोलेजिच्या सहयोगान, कोलेजिच्या सभासालांत सांड सोभाण पंडा सांगाता कोंकणी इतिहास, संस्कृती भविश्य, आधारित गीत संगीत "वर्स्णि" कार्यें चल्लें।

जनेर 7 : "कोंकणी ग्रूप साल्वणी" हाणीं आप्ल्या संघाचो तेरावो वार्शिकोत्सव साल्वणीं सांत आंतोनिच्या इगर्जेंत आचरण केलो।

जनेर 7 : कथोलिक सभेन आसा कर्चो वारावो कोंकणि आनि चव्तो कन्नड भाशण स्पर्धो - डियेसेजी हंतार, मंगळुर मिलार जूनियर कोलेजित चल्लो।

जनेर 14 : हासन सां जुजे इस्कोलाच्या सालांत कोंकणी सांस्कृतिक सांज साधर जाली। कोंकणी संस्कृती उरव्च्याक आनी हासनांत शिप्डोन गेल्ल्या कोंकणी लोकाक सांगाता हाड्च्याक, हासन कोंकणी संचालनान मझेदार कोंकणी सांस्कृतिक कार्यें मांडुन हाड्ल्लें।

जनेर 14 : रेसांल्या सां पाव्ल मिश्योनरी कोलेज सालांत, कोंकणी उलंव्च्या कथोलिक कोड्याळगारांचें "कोंकणि कुटाम" रेसांत्लें संघटन हाणीं वार्शिक सहमिलन आचरण केलें।

जनेर 19 : खतारच्या मंगळुर क्रिकेट क्लब्बान (M.C.C.) दोहच्या गल्फ सिनेमासालांत 40वी "क्लोड नाय्ट" साधर केली।

जनेर 21 : कथोलिक सभा उडुपी वारड्या थाव्न एर्माळ (मुल्कि) "फिर्गजेंत सामाजिक शेतांत आम्चो पात्र" म्हळ्ळया विशयाचेर "उलव्पा कार्यें" आसा केल्लें।

जनेर 21 : दिवो हफ्त्याळयाचें तिस्रें कोंकणी मार्गदर्शन शिबिर: पुत्तूर सां पिलोमिना कोलेज सभा सालांत चलव्न वेलें। सुमार सात्श्यां प्रास चड युवजणां हाजर आसल्लीं।

जनेर 26 : उडुपी डोन बोस्को सभा सालांत, उडुपी वलयाच्या - कोंकणी भास, साहित्य आनी सांस्कृतिक संस्थ्यान, कोंकणी लेखकांचो एक्तार कर्नाटक, आनी कथोलिक सभा कल्याणपुर आनी उडुपी वारड्याच्या सहकारान "कोंकणी कासासाळ" चलय्लें।

जनेर 26 : शिर्वां वेल्फेर एसोसियेशन कुवेट हाणीं कुवेटांल्या सम्रा हवल्ली सभासालांत क्लोड नाय्ट साधर केली।

जनेर 27 : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडेमिच्या आस्रयाखाल, कोंकणी नाटक आनी कलाकारांक पाटिंबो दिंव्च्याक मांडुन हाड्ल्लो "नाटकोत्सव 2007" कार्यावळेचें उद्घाटन ताकोडे इगर्जे सय्दानार श्री आंद्रु नोरोन्हान केलें। नेल्लु फेर्नान्डिसाचो "बोंग्गो", नाटक साधर जालो।

जनेर 28 : बेंगळुर सेंट जोसेफ्स इंडियन इस्कोल आंगणांत चलल्ल्या फेडरेशन ओफ कोंकणी कथोलिक एसोसियेशन्सा टीम उद्घाटन कर्न उलयिल्ल्या मुकेल मंत्रि - एच.डि. कुमार स्वामिन "शाळांनी शिक्पा पाठक्रमा भितर - कोंकणी तिस्री भास" जाव्न वेगिंच ज्यारियेक येतेली म्हण आश्वासन दिलें।

जनेर 28 : कथोलिक सभा लोरेट्टो घटकान "मट्ट्यो काणियो वग्ंव्चे विशिं माहेत" शिबिर -लोरेट्टो इस्कोला सालांत मांडुन हाड्लें। शेंबोर शिबिरार्थी हाजर आसुल्लीं।

जनेर : भारतीय कथोलिक युवसंचालनान, पेजार वाराड्या तर्फेन कोंकणि भास आनि संस्कृति विशिं विचार सातें काटिपळळ फिर्गजे सालांत मांडुन हाड्लें।

फेब्रेर 2007

फेब्रेर 3 : कोंकणी कथोलिक वेल्फेर एसोसियेशन भांय्दार - हांच्या दुस्त्र्या वार्शिक उत्सवा दिसा हेन्रि डि'सिल्वान वरयिल्लो "कोण जिक्ता" नाटक खेळोन दाकय्लो आनी स्मारक अंको इग्ताय्लो।

फेब्रेर 4 : भोग्साणे ख्यातेचो चलनचित्र निर्देशक श्री रिचर्ड केस्तेलिनोन निर्देशन कर्चे कोंकणी फिल्म "काजार" आनि तुळु "वदि" हांचें मुहूर्त कारयें चल्लें।

फेंब्रेर 4 : मुंवय, महराश्ट्र कोंकण एसोसियेशनान, जेरिमेरी कुर्ला, सां जूद इगर्जेच्या सभासालांत "कोंकणी उद्यमिंचो उत्सव" चलव्न वेलो।

फेब्रेर 4 : दक्षिण कन्नड जिल्ल्याच्या विविद प्रदेशां थाव्न आयिल्ल्या कोंकणी कथोलिक लोकाक एक्वटांव्क मोग, त्याग आनी सेवेद्वारीं कोंकणी संस्कृती आनी भास अमर कर्च्याक "इन्फेंट जीजस कोंकणी कथोलिक एसोसियेशन" बेंग्ळुर्च्या विवेकनगरांत इग्तावण जालें।

फेब्रेर 4 : मकाळे शक्तिनगर हांगासर कलांगणांत 62वी महिन्याळी मांची कार्यें जाव्न, "कंट्रि पदां" संगीत कार्यें साधर जालें। आट कुट्मांनी आदलीं कंट्रि पदां गाय्लीं।

फेब्रेर 5 : कोंकणी पिंतुर "जेजु भोगोस म्हाका" हाचें मुहूर्त कारयें मुंबंय्तल्या गोल्डन स्टुडियोंत चल्लें। श्री अवीन फेर्नांडिस ह्या पिंतुराचो निर्देशक जाव्नासा।

फेब्रेर 8 : मंग्ळुरांतल्या डोन बोस्को सालांत करेज्माच्या आय्तारांनी खेळोन दाकंव्च्याक जोयल पिरेरा इजय हाणें वरयिल्ल्या "सोम्याचीं निमाणीं वारा वोरां" नाटकाचें मुहूर्त कारयें चल्लें।

फेब्रेर 10 : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडेमिन प्रगट केल्ली स्टीवन क्वाड्रस पेर्मुदेन संग्रह केल्ली - कानडी लिपिंत्ली पय्लि: इंग्लिश - कोंकणी सब्दावळ, विधान सबा पुर्विले मंत्री श्री आर.वि.देशपांडे हाणीं सां लुविस कोलेज I.T. ब्लोक सभांगणांत उग्तावण केली।

फेब्रेर 11 : "रूण्णें" ख्यातेचो केविन मिस्कित सुरत्कल हाची "एक मधुर सांज" कारयें डोन बोस्को सभा सालांत साधर जाली।

फेब्रेर 15 : कोंकणी भास - संस्कृते खातिर - नवें चानेल "प्रसार कोंकणी" कोंकणी टि.वि. चानेल, इजय्च्या कोस्टल टैम्स स्टुडियोंत पश्चिम वलय ऐजिपि एच.एन. सूर्यनारायण राव हाणें उग्ताय्लें। कोस्टल टैम्स इंग्लिश चानेलाचो आग्नेल रोड्रिगस हें चानेल चलव्न वर्तलो।

**फेब्रेर 16** : दुबाय्च्या "टार्ज़ी रंगमंदिर" संस्थ्यान कोंकणी नाटकिस्त आनी संगीतगार क्लोड डि'सोजा बेंदूर हाचें सांगाता संवाद कार्यें दुबाय्च्या सेजान रेस्टोरेंटांत मांडुन हाडें।

**फेब्रेर 18** : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडमी आनी स्वागत समिती गेरुसोप्प हांच्या जोड आस्त्र्याखाल: के.पि.सि. क्लब्ब सभा सालांत "कोंकणी लोकोत्सव" चलव्न वेलो।

**फेब्रेर 19** : गोंयांतल्या "रोमी लिपियेची चळवळ" (RLC) संचालनान पण्जेंतल्या जेज्वित घरांत आपोयिल्ल्या पत्रिका जमातेंत गोंय्च्या सर्कारान अधिकृत भाशे कायदो 1987 हांतुन तद्विलो करुंक आनी ह्या मार्च महिन्यांत चलोंक आस्च्या एसेंब्ली अदिवेशना वेळार कोंकणित रोमी लिपियेक - नागरी लिपिये समान स्थान मान दिवंक आक्रेचो उलो दिला।

**फेब्रेर 22** : कर्नाटक सर्कारान कर्नाटकाच्या शाळेंनी 6वे थाव्न 10वे क्लासी पर्यांत - विचोवणेचो विशय जाव्न 2007 - 2008 शिक्षा वर्सा थाव्नच कोंकणी भास शिकंवक सर्कारान अनुमती दिली।

**मार्च 2007**

**मार्च 4** : मकाळे शक्तिनगर हांगासर कलांगणांत 63वी महिन्याळी सांची कार्यें जाव्न रोनी क्रास्ता केलराय हाणीं कोंक्णेक भाशांतर केल्लो "फाशी" हिंदी मूळ रूपांतर नाटक साधर जालो।

**मार्च 4** : राक्णो हफ्त्याळयान कोंकणी लेखकांचें सहमिलन संदेश सभासाल वज़्रोडी, मंग्ळुर हांगासर मांडुन हाडें। "समकालीन पत्रिकोद्यमांत सृजनात्मक वर्पां" म्हळ्ळया विशयांचेर लेखक श्री नरेंद्र रै देर्लन शिकाप दिलें।

**मार्च 4** : राक्णो पत्रान संदेश सभा सालांत मांडुन हाडल्ल्या कोंकणी लेखकांच्या सहमिलनांत "पत्रिकोद्यम विद्यार्थी वेतन" 50 हजार रुप्यांचि निधी फा| फ्रेड वि. पिंटोन उरतान्न स्थापन केली।

**मार्च 4** : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडमी आनी हासन कोंकणी संचालन सांगाता "वोवियो - वेर्सां कार्यागार" आनी "कोंकणी म्हान मनिस - एक मुलाखत" कार्यें हासन सां जुजे शाळाच्या लोयोला सभा सालांत चलव्न वेलें।

**मार्च 11** : उर्वाच्या समन्वय सभा सालांत कोंकणी लेखकांचो एक्वट कर्नाटक आनी समन्वय जोड आस्त्र्याखाल आर्य्लेवार्चीं कोंकणी प्रशस्ती विजेतां: शिर्तांडी विलियम पिंटो, जुडित मस्करेन्हस आनी विक्टर रोड्रिगस हांकां सन्मान आनी संवाद कार्यें चलव्न वेलें।

**मार्च 18** : केलराय फिर्गजेच्या विद्या संस्थ्यांच्या आधाराक कोंकणी नाटक सभा (रि) मंग्ळुर हांचे थाव्न, कर्जाच्या काळाक धार्मिक साधन - "सोमियाचीं निमाणीं वार वोरां" नाटक सांत आग्नेस स्पेशल स्कूलाच्या सय्दानार खेळोन दाकय्लो।

मार्च 24 : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडेमिन आप्लें पुस्तक पुरस्कार कार्यें कार्कोळ होटेल प्रकाश हांगासर चलव्न वेलें। ह्या संदर्भार दोन नव्या पुस्तकांचें उग्तावण आनी कोंकणी लोककला दर्शन सांस्कृतिक कार्यें आसल्लें।

मार्च 25 : कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडेमिन - कथोलिक सभा, कोंकणी संघटन आनी स्त्री संघटन सांगाता मेळोन "वोवियो वेर्स" कार्यागार आनी "कोंकणी म्हान मनिस" एक मुलाखत कार्यें केम्माण इगर्जे सभा सालांत मांडुन हाड्ल्लें। श्री दोनात डि'आल्मेडा तोट्टम आनी श्रीमती लेन्नी सल्डान्हा, म्हान मनिस सन्मान जोडल्लीं जाव्नासात।

मार्च 25 : कोंकणी भाशा मंडळ महराश्ट्रा (रि) आश्रयाखाल - "कोंकणी नाटकिस्तांचें सहमिलन" महाकाळिंत्ल्या ग्यान आश्रमांत चलव्न वेलें।

मार्च 29 : गोंयां तोमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचो रुप्याळो उत्सव चलव्न वेलो। गोंय्च्या सांत सावेर कोलेजिचो प्रांशुपाल प्रो। न्युमन फेर्नांडिस मुकेल सग्रो जाव्न हाजर आसल्लो। मंग्ळुर्च्या मांड सोभाण पंग्डान सांस्कृतिक कार्यें साधर केलें।

मार्च् 31 : मंग्ळुर्च्या संदेश् सभा सालांत्: 1956व्या वर्सा श्री जो.सा. आल्वारिसान् सुर्वात् केल्लो "झेलो" पत्राचो भांगारोत्सव् समारोप् कार्यें, आतांचो "झेलो" संपादक् आनी प्रगट्णार् श्री पंचु वंट्वाळ् हाणें साधर् केलें।

एप्रिल् - 2007

एप्रिल् 1 : "सोमियाचीं सिमाणीं भारा वोर्ग" आवाज् दिव्यांचो नाटक् पुत्तूर् सांत् पिलोमीना कोलेजिच्या मय्दानार, पुत्तूर् माय दे.देवुस् फिर्गजेच्या मुकेल्पणार्, वाराड्याच्या सर्व् लोकाक् धर्मार्थ खेळोन् दाकय्लो।

एप्रिल् 1 : मकाळे शक्तिनगर् कलांगणांत् 64वी महिन्याळी मांची कार्यें जाव्न्, भक्तीक् सोभाण्: 'रडोंक् मेळयां' मांड् सोभाण् पंग्डान् साधर केलें।

एप्रिल् 1 : मकाळे शक्तिनगर् कलांगणांत् कर्नाटक् कोंकणी साहित्य् एकेडेमिन् 55 इस्कोलांनी पाठ्क्रमा भायर कोंकणी शिकोंव्च्या वाव्राचो संपूर्णोत्सव् चलव्न वेलो।

एप्रिल 8 : मंग्ळुर्च्या आंजेलोर् इगर्जे वठारांत्, आंजेलोर्च्या कलाकारां थाव्न पास्कां फेस्ता संदर्भीं - जे.वी. सोज् कुल्शेकर् हाणे बरयिल्लो "दोनी वद्लाक् देणें" नाटक् साधर् केलो।

एप्रिल् 8 : मुंबय्च्या वाकोलांत्, सांत् आंतोनिच्या फिर्गजेचो "वाकोलाचो ताळो" संस्थ्यान् कोंकणी भास् आनी संस्कृतेची अभिवृद्धिच्या उद्देशान् आप्लो पय्लो वार्शिक् दीस् आचरण् केलो।

एप्रिल् 9 : कर्नाटक् कोंकणी साहित्य् एकेडेमिन् अध्यक्ष श्री एरिक् ओजेरियोच्या मुकेल्पणार् प्रस्तुत् दोन् वर्सां संपय्ताना, जाल्ल्या वाव्राविशीं अभिप्राय् एक्टांव्क्, एकेडेमिच्या धत्तरांत् लोक् संपर्क् सभा आसा केल्ली।

एप्रिल् 12 : दुबाय्च्या ईंडियन् कोन्सुलेट् सभा मालांत्: दाय्जी दुबाय् संघटनान् आप्ल्या आठ्व्या वर्सुगेच्या आचरणा दिसा कोंकण् कोगुळ् विल्फी रेबिबसाक् दाय्जी पुरस्कार् 2007 पाटव्न मान् केलो।

एप्रिल् 15 : मंगळुर्चो समन्वय् आनी कोंकणी लेखकांचो एक्वोट् कर्नाटक् हांच्या जोड् आस्र्याखाल्। समन्वय सभा भवनांत्: "अंतर् जाळांत् कोंकणी" म्हळें कार्यें चलव्न् वेलें।

एप्रिल् 16 : गोंय्चो फामाद् कोंकणी कलाकार नट् कवी संगीतगार् आनी पत्रकार् उल्लास् बुयांव आप्ल्या 62 वर्सां प्रायेर् देवाधीन् जालो।

एप्रिल् 20 : दुबाय् ले मेरेडियन् फैव् स्टार् होटेलाच्या सभा मालांत्: विल्फी नाय्ट् साधर जाली।

एप्रिल् 21 : कोंकणी भाशा मंडळ् कर्नाटक् (रि) मंगळुर् हाणी - सांत् लुविस् कोलेजिच्या सभा मालांत "इस्कोलांत् कोंकणिक् सर्कारची पर्वणगी" लाभ्ल्ली संतोस् वेक्त् करुंक् आनी ह्या वाव्रांत् कोंकणी फुडार्यांचो, तशेंच्च कोंकणी संस्थ्यांचो वाव्र मांदुन, तांकां सन्मान् पाटंव्चें कार्यें मांडुन् हाडें।

एप्रिल् 22 : कर्नाटक् कोंकणी साहित्य् एकेडेमीन्, मल्लिकट्टा "शालोन्" घर्च्या आंगणांत्: कोंकणी भाशे-साहित्याक् धागळ् योगदान् दिल्ल्या दे। श्री लुविस् मस्करेंजाच्या उगडासाक्, ताच्या जल्माशतमानोत्सव् संपूर्ण् केल्ल्या संदर्भार् "एक सांज् - म्हान् साहितिच्या उग्डासाक्" कार्यें मांडुन् हाडें।

एप्रिल् 29 : मंगळुर् थाव्न प्रसार् जांव्चें कोंकणी हफ्त्याळें "दिर्वें", तर्फेन्, मुंबय् अंदेरी पूर्वांत्ल्या महाकाळी केव्स् रस्त्यार्: ग्यान् आश्रमांत कोंकणी सहमिलन् कार्यें चल्लें।

एप्रिल् 29 : कर्नाटक् कोंकणी साहित्य् एकेडेमिन् - 2006व्या वर्सा पर्गट् केल्ल्यो गौरव प्रशस्त्यो प्रदान् कार्यें: शिवमोग्गच्या ऐ.एम्.ए. सभा मालांत् चल्लें। नाटक: डोल्ला मंगळुर्. साहित्य: मेल्विन् लुद्रिक्, जानपद्: चंद्रशेखर् खार्वी कुंदापुर हांकां प्रशस्त्यो हातांतर् केल्यो।



# प्रशस्ती - पुरस्कार

1. दाय्जी दुवाय पुरस्कार - 2007, "कोंकणी कोगुळ" गीतकार - गाव्पी श्री विल्फी रेबिंवसाक फावो जाला।
2. कोंकणी साहित्य आनी भाशेक देण्गी दिल्ल्या कवी श्री मेल्विन लुद्रिकाक; दुबांय्त आस्च्या कट्पाडी फिर्गजगारांनी तांच्या वार्शिकोत्सवा संदर्भार शाल पांग्रुन सन्मान केलो।
3. दाय्ज पंग्डान जनेर 2006 थाव्न दशेंवर परयांत चलयिल्ल्या "तिंतेरांत पिंतुरां" अंकणांत दाय्ज 2006 वर्साचो कवी जाव्न एव्वेम फेर्नाल विंचोन आय्ला।
4. कोंकणी कथा - कादंवरिकार श्री विक्टर रोड्रिगस हाका "संदेश प्रतिश्टान प्रशस्ती 2007" फावो जाल्या।
5. "भावाड्ती युवक" कथोलिक युव संचालनाच्या पत्राची स्थापक संपादकी कुमारी जुडित मस्करेन्हस बेंदूर हिका स्त्रियांच्या आनी अशक्त वर्गाच्या बरेपणा खातिर वावुर्ल्ल्याक "संदेश विशेष प्रशस्ती 2007" फावो जाल्या।
6. कर्नाटक क्रिश्चियन फेडरेशनाचो अध्यक्ष श्री रोनाल्ड कुलासोक ताणें केल्ल्या समाज सेवे खातिर कर्नाटक राज्याचो मुकेल मंत्री एच.डी. कुमार स्वामिन सन्मान केलो।
7. गोंयां पणजिचो फामाद कवी, साहिती, देवादीन मनोहरराय सर्देसाय हाका "टी.एम.ए.पै प्रतिस्टान प्रशस्ती 2007", फावो जाल्या।
8. "कानून दर्शन" पुस्तकाचो लेखक वकिल शिर्ताडी विलियं पिंटोक पेडरेशन ओंफ कोंकणी एसोसियेशन कर्नाटकाची प्रशस्ती फावो जाल्या।
9. फामाद उद्यमी - अनिवासी भारतीय श्री रोनाल्ड कुलासो, बांद्पा उद्यमी श्री ल्यान्सी मस्करेन्हस, जड्ज श्री माय्काल सल्डान्हा आनी कृशिक श्री चार्ल्स् रोड्रिगस हांकां रचना प्रशस्त्यो 2007 फावो जाल्यात।
10. कोच्ची श्री अनंत भट्टाच्या मूल "तुलसी रामायणाचे" कोंकणी अनुवाद "श्री रामचरित मानस" कोंकणी ग्रंथाक डेल्लि केंद्र साहित्य एकेडेमी थाव्न अनुवाद पुरस्कार प्राप्त जाला।
11. कोंकणी बरव्यांक कर्नाटक कोंकणी साहित्य एकेडेमिचे पुस्तक पुरस्कार अशे फावो जाल्यात:

    2003-04: "पुत्तुशेटिच्यो काणियो" नागरी, आन्सी पालड्का, साहित्य आनी विमर्सो" स्टीवन कोड्रास पेर्मुदे

    2004 - 05: "पिंतुरां" कविता, आल्वी कार्मेलित, "भांगाराची मास्ळी" कथा जे.एफ्.डि'सोजा, अत्तावर

    2005-06: "तपस्विनी" भाशांतर संध्या शेवगूर, 'आज' "कविता, सुवर्णगाड होन्नावर, 'चंद्ररेखा', कादंवरी, मनु वाहेन, विशेश पुरस्कार - कविता पाठ - वल्ली कोड्रास
12. कर्नाटक् कोंकणी साहित्य् एकेडेमी गौरव् प्रशस्ती -2006, साहित्य् प्रशस्ती: श्री मेल्विन् लुद्रिक् कुल्शेकर्। कला प्रशस्ती: आवितास् एडोल्फस् कुटिन्हो (डोल्ला मंग्लुर्) लोक्कला प्रशस्ती: श्री चंद्रशेखर् खार्वी हांकां फावो जाल्यात्।

# सां. लुविस कोलेजिंत

## स्नातकोत्तर कोंकणी डिप्लोमा करेस्पोंडेन्स कोर्स

एदोळवरेग संसारभर हजारांनी विद्यार्थिनी आण्णायिल्लो पद्युत्तर कोंकणी डिप्लोमा करेस्पोंडेन्स कोर्स (Post Graduate Diploma Correspondence Course in Konkani) हरयेका वर्साच्या सप्तेंबर महिन्यांत आरंभ जाता।

आख्ख्या भारतांत्च प्रथम जाव्नास्चो हो पद्युत्तर कोर्स दोन वर्सांचें शिकाप, एका वर्साक चार विशयां लेखान आटाप्ता

| | | |
|---|---|---|
| **पय्लें वरसः** | 1. कोंकणी चरित्रा | 2. कोंकणी साहित्य |
| | 3. कोंकणी नाटक | 4. कोंकणी कविता |
| **दुस्रें वरसः** | 1. कोंकणी लोकवेद | 2. साहितिक ठिका |
| | 3. भाशे विज्ञान | 4. तुलनात्मक साहित्य |

ओट्टुक आट विशय शिकोंक विद्यार्तिंक आव्कास मेळता। शिक्पा विशय आनी ताका लग्ती जाल्लो नोट्स पाट क्रमा सवें तुम्च्या घराधारार तप्पाला मुकांत्र पावित जाता। हर्येका विशयांचेर परीक्षा आस्तेली। आनी परीक्षेचें प्रश्नापत्र तप्पाला मुकांत्रच विद्यार्तिंक पावित जाता। 18 वर्सां वय्ल्या आनी कोंकणी अध्ययनांत आसक्त आसल्ल्या कोणेंय ह्या कोर्साक अर्जी पाटव्येत।

कोर्साचो शुल्क - नोट्स आनी तप्पाल खर्च धर्न वर्साक रु. 800/- मात्र। विदेशाक वर्साक रु. 2000/-

1997व्या वर्सा आरंभ जाल्लो हो कोंकणी कोर्स संसारभर कोंकणी शिकोंक राकोन आस्च्या विद्यार्तिंक एक बरो अव्कास जाव्नासा। चडित विवरांक आनी अर्जेपत्रांक रू. 10/ - M.O. सवें - कार्यकारी दिरेक्तोर, कोंकणी संस्थो, सां लुविस कोलेज, मंग्ळुर - 575 003 - हाका संपर्क करा।

**फोन नं: 2426143 - Extn: 112**